# जाग

वर्स २७ ◇ आंक १ ◇ ऑगस्ट २०००

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.

छापपी : प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.

कवर चित्र : श्री गुरुकृपा टिपोग्रॅफिक्स, मडगांव


## ह्या आंकांत


*नदर संपादप्याची* ........ १
*पडसाद* ........ ७
*रसपाळें केळें (कथा) – वैकम मुहम्मद बशीर* ........ १०
*रायबारी – सुमन्त केळेकार* ........ १५
*तीर-सुवादीक कॉलम – दिलीप बोरकार* ........ १७
*कविता – काशिनाथ शांबा लोलयेकार* ........ १९
*इतिहासाचीं पानां – फेलीस्यु कार्दोज* ........ २०
*साहित्य नियाळ : पांथस्थ – डॉ. किरण बुडकुले* ........ २१
*जाग वर्स २६ – साहित्य वळेरी* ........ २३



| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो :

**जाग** म्हयनाळें
२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स
रूअ द सांउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१. फोन : ७३३६७७

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### दिल्लीक घरघर लागला

चार वर्सां जालीं, दिल्लीक पावूंक ना. सात मिटिंगो चुकयल्यो. आठवी ह्या म्हयन्यांत जावपाची आशिल्ली. हांवें चीट बरोवन पावचों ना म्हूण कळयलें, आनी चिटींत हेंवूय जोडलें, 'हांव मिटिंगांनी पावना... कमिटिचेर बेश्टो जागो कित्याक आडावन बसूं?... म्हजे बदला तुमी दुसऱ्या कोणाक कमिटिचेर घेयात आनी म्हाका मेकळो करात.'

पोस्टांत घालचे पयलीं चीट गोदूबायन पळेली. आनी विचारलें, 'दिल्ली कडले संबंद तोडले?'

म्हळें, 'दीसभर पर्जळ्ळेल्या सुर्याक अस्तमतना पळोवचो न्हय अशें शास्त्रांत सांगलां... फाटल्या कितल्याश्या शतमानां पसून दिल्ली ह्या देशाची राजधानी म्हूण व्हडपण जोडून आयिल्ली... तिका आतां घरघर लागला... म्हाका तिचो अस्त पळोवपाचो ना...'

पयलेच फावट दिल्लींत पावल दवरलां त्या वेळार आयज जें म्हजें जग हांवें थंय निर्माण केलां तें नाशिल्लें. एका इश्टागेर राविल्लों. ते मुस्तींतल्या हेर गोंयकारां भाशेन तोवूय आपणाक महाराष्ट्रीय मानतालो आनी दिल्लींतल्या महाराष्ट्रीय समाजांत बरोच भरसल्लो. ताचे बरोबर हांवूय भरसलों. दसऱ्याची परब आयिल्ली. काका गाडगीळांनी दिल्लींतल्या सगळ्या महाराष्ट्रीयांक ह्या निमित्त्यान आपणागेर आपयल्ले. शें देडशें लोक आयिल्ले. हांवूय गेल्लों. दोगांचेर म्हजी नदर थिरावल्ली. एक, डॉ. आंबेडकरांचेर. दुसरी, शंकरराव देवांचेर. गाडगीळांनी सगळ्यांक येवकार दिवन ल्हानशेंच पुणून एक सुंदर उलोवप केलें आनी आंबेडकरांक उलोवपाक सांगलें. आंबेडकरांनी हातांनी खुणावन आपणाक उलोवपाचें ना म्हळें. रोखडेच शंकरराव देव उलोवपाक लागले. तांणी म्हळें, 'दिल्लींत णव साम्राज्यांचीं थडगीं शिंपडिल्लीं पळोवंक मेळटात. एके तरेची मसंड ही. मसंडींत स्वतंत्र हिन्दुस्तानाची राजधानी आसची न्हय अशें म्हाका खूब फावटीं दिसलें. स्वतंत्र हिन्दुस्तानाची राजधानी म्हज्या महाराष्ट्रांत घेवन वचची अशेंय मनांत आयलें. पुणून (शंकरराव हांगा थोडो वेळ थांबले आनी गंभीर जावन म्हणपाक लागले) आयची दिल्ली खंयच्याच एका घराण्याची राजधानी उरूंक ना. ती प्रजाधानी जाल्या. कितल्याश्या शतमानां उपरांत देशांतल्या सरसमान लोकांच्या हातांत सत्या आयल्या. देशांतलो जण एकलो मतदार आयज देशाचो राजा जाला. दिल्लीच्या इतिहासाक आनी दिल्ली वांगडा पुराय देशाच्या इतिहासाक एक नवी देख दिवपाची संद आयज आमकां सगळ्यांक मेळ्ळ्या. देश व्हड करपाचो नित्शय करून आमी आतां वावरूंक लागुंया. आमचो फाटलो इतिहास कितलोय उजळ आसूं, फुडार ताचेकूय चड उजळ करपाचो आयज आमी सोपूत घेवया...'

शंकरराव दिसताले गिड्डे कशे. त्या दिसा म्हाका ते गरगर करून वाडून मळबाक तेंकिल्ले वरी दिसले.

कितली सुंदर दिसताली दिल्ली ते मुस्तींत! पुराय शार सारकी आंखणी करून बांदून काडिल्लें. शारा मदेकांत कॉनॉट सर्कसचो सुर्या सारको वांटकुळो एक वाटार आनी सुर्याच्या किरणां भाशेन थंयच्यान चोंय दिकांनी फुटपी कितलेशे रस्ते. रस्त्यांच्या दोनूय वशिंनी ल्हान ल्हान सुंदर बंगले. दर एक बंगलो एक खेरीत व्यक्तिमत्व आशिल्लो. बंगल्या फाटल्यान आनी फुडल्यान एक एक सुंदर बाग. आड्या कडेन ऊंच रुखांची आनी भितर

लॉना वांगडा सुंदर फुलांच्या झाडांची. रस्त्या वेल्यान लोक येताले वताले. पुणून कोणूच कोणाक बखान्यो मारून मुखार वचऽनाशिल्ले. हवाय 'खुशनुमा'. ओलसाण नाशिल्ली. सुकी. कोणाचें नाक केन्ना चोंदलें ना. कोणाक खांक केन्नां आयली ना. दिल्लींतलो गीम हरशीं गोंयकारांक सोंसनात, तशे शियाचेय दीस सोंसनात. पुणून म्हाका हे दोनूय रुतू खूब आवडटाले.

उपरांत दिल्लीक कितले खेपो पावलों, कोंत आनी हिशोब ना. सुरवेचीं धा पंदरा वर्सां दिल्ली पयले खेपे पळेल्ली तशीच उरिल्ली. लोक म्हणटाले, दिल्ली पयलिंची उरूंक ना. बदल्ल्या म्हूण. इल्ली इल्ली करून पंजाबी जायत चल्ल्या म्हूण. म्हाका फरक कळऽनाशिल्लो. पंजाबी म्हाका आवडटात. 'खुशमिजाज' लोक हो आमच्या देशांतलो. नाचतलो धूंद जावन. जेवतलो पोट भरून. सभाव 'मार भिसक्यार' म्हूण बेपर्वायेन जियेवपाचो. स्वराज्य आयलें. देशाचे दोन कुडके जाले. तेन्ना पंजाबाचेय जाले. पंजाबांतलो बऱ्यांतलो बरो वाटार पाकिस्तानांत गेलो. तो गेल्लो पळोवन धूंद जावन नाचपी हो लोक धूंद जावन मुसलमानांची कलत्तल करपाक लागलो. ताचो तोलूच सुटलो. दिल्लीन दोनूय तरांचे पंजाबी पळेल्यात. दोनूय तरांच्या पंजाब्यांक तिणें आपल्या गोपांत घेतल्यात. आदले आनी उपरांत आयिल्ले पंजाबी आयज पुराय दिल्ली व्यापून रावपाक लागल्यात. आदली, मुसलमानी संस्कारांत वाडिल्ली दिल्ली पळोवन आयिल्ल्यांक आयची पंजाबी दिल्ली पळोवन वायट दिसूं, 'दिल्ली पयलिंची उरूंक ना' अशें तांणी म्हणूं, दिल्लीची सोबा इल्लीय भंगूंक ना.

जवाहरलाल आसासर दिल्लीची 'शान' उरिल्ली. उपरांत इल्लें इल्लें करून दिल्लीचें रूप म्हज्या दोळ्यां मुखारूच बदलत गेलें. ल्हान ल्हान सुंदर बंगल्यांचे सुवातेर मळबाक तेंकपी व्हडल्यो व्हडल्यो बिल्डिंगो एक एक करून उब्यो जायत गेल्यो. रस्त्या वयली खेटूय वाडत गेली. लोक एकामेकांक बखान्यो मारून मुखार वचपाक लागले. दिल्लीचीं 'हिन्दुस्तानी' आनी 'पंजाबी' दोनूय रुपां ना जालीं आनी एक नवें धेडगुजरी रूप घेवन ती वाडत रावली. हिन्दुस्तानी, पंजाबी बी देशी भासो कानार पडपाच्यो बंद जाल्यो. फकत हेंगाडी इंग्लीशच कानार पडंत रावली. एका फुडले एक गिड्डे लोक सत्येच्या कदेला भोंवतणी आनाळ्यो गुनाळ्यो काडपाक लागले. आनी केन्ना सपनांत लेगीत चिंतूंक नाशिल्लें तें घडून आयिल्लें पळोवपाक मेळ्ळें – स्वतंत्र हिन्दुस्तानाचे हे प्रजाधानींत एका घराण्याची राजवट सुरू जाल्ली पळोवंक मेळ्ळी. तिवूय जवाहरलालां सारकेल्या डॅमोक्रॅटांतल्या डॅमोक्रॅट मनशाच्या घराण्याची. 'ह्या घराण्याचे लोक न्हय जाल्यार देशाचो राजकारभार सांबाळूंक पावतीत अशे कोण आसात देशांत' अशें आमच्या सगळ्यांत पोरण्या पक्षाचे – कॉंग्रेसचेच – फुडारी एकामेकांक विचारपाक लागले. रुपयाचें मोल देंवत रावलें तशें तशें देशाचेंय देंवत गेलें. पुराय राष्ट्राचेंच मोल देंवलें. जांचे पसून सत्येर आशिल्ल्यांक भंय दिसूं येता वा लाव जावं येता तांचींच कामां दिल्लींत जातात – आनीक कोण्णाचीं न्हय – अशें लोक म्हणपाक लागले. कसले देड दमडेचे लोक सत्येच्या कदेलार येवन बसले! इन्दिराजीन म्हाका घरांत सान्न मार म्हूण सांगिल्ली जाल्यारूय हांव ती उमेदीन मारतलों आशिल्लों अशें हड्डें फुडें काडून मोट्या अभिमानान सांगपी एकलो ह्या देशाचो घरमंत्री जाल्लो पळेलो. उपरांत, राष्ट्रपतीपदारूय वचून बशिल्लो पळेलो. आनी 'मूरख मूरख राजा कीन्हो, पंडित फिरत भिखारी' हे संत-वाणयेक भक्तिभावान पाळो दिवन दिल्लींतले व्हडले व्हडले पत्रकार, साहित्यकार, कलाकार, स्वातंत्र्यसैनीक ताचे मुखार सत्येचें एकाद-दुकलें हाड मेळटलें हे आशेन लाळ घोंटीत उबे राविल्लेय पळेले.

आनी दिल्लींत आतां पावल दवरप ना अशें थारावन हांव मेकळो जालों.

तरी आसतना, एक दोन फावट वचचें पडलें म्हूण वचून आयलों. पयलीं वत्तालों तेन्ना धा धा, पंदरा पंदरा दीस रावतालों. आतां चारूच दीस रावन परतुपाक लागलों. पयलीं पोरण्या नव्या बुकस्टॉलांर वचून नवें कितें आयलां तें पळेतालों. आतां पुस्तकांचें मोल म्हजे तांकी भायर गेलां म्हूण फकत पुस्तकांच पळोवन परतलों. एक दोग जिवाभावाचे इश्ट सोडून कोणाक मेळूंक गेलों ना.

इतलो मनीसघाणो हांव आयुश्यांत केन्ना जावंक नाशिल्लों.

निमाणे खेपे गेलां तेन्ना खांक घेवन परतलां. परतले उपरांतूय पंदरा वीस दीस खांक वचच ना हें पळोवन बेजार जालां. सगळे म्हणटाले, 'तूं सिगरेटी ओडटा. म्हूण तुका खांक येता.' पुणून क्रिकेट खेळपाक आयिल्ल्या ऑस्ट्रेलियेच्या पंगडान 'आमी दिल्लींत क्रिकेट खेळपाचे नात... दिल्ली सारकें दुशीत शार संवसारांत ना' अशें म्हळ्ळें वाचलें तेन्ना म्हजे खांकेचें मूळ खंय आसा तें कळ्ळें.

म्हणटासर विश्वबँकेचो एक अहवाल हातांत पडलो. 'विखाळ हवेक लागून वर्सान वर्स सुमार साडे सात हजार लोक दिल्लींत मरतात' म्हणपाचें तातूंत वाचूंक मेळ्ळें. वर्साक साडे सात हजार म्हळ्यार दिसाक वीस वा एकवीस जाण... 'हांवूय ह्या विसां-एकविसांत केन्नाय येवं येतां' अशें दिसलें आनी हड्डें धडधडपाक लागलें.

कोण करता दिल्लीची हवा विखाळ? कारखाने? ते दिल्लींतले हालोवं येतीत. पुणून मोटारी, बसी, ट्रक, टॅंकर जें विख्ख हवेंत ओंकतात तें कशें आळाबंदा हाडूं येतलें? डॅंग्यू जोरान तीनशें लोक मेल्ले पळोवन केदो बोवाळ केलो खबरेपत्रांनी! दिल्लींतल्यो मोटारी, बसी, ट्रक, टॅंकर जें विख्ख हवेंत सोडटात तातूंत सद्दां वीस-एकवीस जाण मरतात हाचेर कोण एक उतर लेगीत बरयना. 'तेरी भी चूप, मेरी भी चूप.' कित्या खातीर? काळजाचें जावन कोण मेलो, दम्यान कोण मेलो जाल्यार तो मेलो म्हूण छापून येता. विखाळ हवेक लागून मेलो हें मात कोण सांगिना. दिल्लींत शाळेंत शिकतल्या भुरग्यांचो एक 'सर्वे' पळेलो. धा हजार भुरग्यां मजगतीं सव्या वांट्या इतलीं भुरगीं दम्याची पिडा जाल्लीं म्हणपाचें कळ्ळें.

मोटारी, बसी, ट्रक, टॅंकर एक वेळ बंद करूं येतीत. स्कूटरी आनी रिक्षा कश्यो बंद करपाच्यो? दिल्लींतले सगळ्यांत चड लोक ह्याच वाहनांचो वापर करतात. आनी दिल्लींत हवा सगळ्यांत चड विखाळ हींच वाहनां करतात.

आयचे दिल्लींत पयलिंचे दिल्लीचो हजारावो वांटो लेगीत उरूंक ना. आयचे दिल्लीक घरघर लागला. ह्या घरघराची सगळ्यांत चड जाणवीक दिल्लींतले राजकर्णी पळोवन जाता. इतले गिड्डे राजकर्णी दिल्लीन आपणाल्या पांच हजार वर्सांच्या आयुश्यांत केन्नाच पळोवंक नात जातले. दिल्लीन दुश्ट राजकर्णी पळेल्ले, धूर्त पळेल्ले. कारस्थानी पळेल्ले, पाताळयंत्री पळेल्ले. बेंतेकाप – निर्वीर्य – राजकर्णी केन्नाच पळोवंक नाशिल्ले. ते आतां पळोवपाचें तिच्या नशिबांत आयलां. संजय गांधी कोण आशिल्लो? देशाचो प्रधानमंत्री? राष्ट्रपती? राष्ट्रपिता? ताचें थडगें शांतिवनांत कित्याक? शान्तिवन कितें, नेहरू घराण्याची मसंड? स्वतंत्र हिन्दुस्तानाच्या पयल्या दिग्गज प्रधानमंत्र्याचें स्मारक तें जाल्यार संजय गांधीक थंय सुवात मेळूंक जायना. इन्दिराजीकूय मेळूंक फावना. राजीव गांधीकूय ना. पुणून दिल्लींतले राजकर्णी केन्नाच हो प्रश्न लोकसभेंत हाडिनात. विरोधी पंगडांतले लेगीत. तें कित्याक? राष्ट्रपती आनी प्रधानमंत्री संजय गांधीच्या थडग्याचेर पुष्पचक्र ओंपपा खातीर वतात तेन्ना 'कोण तो देशाचो?' अशें कोण तांकां विचारी ना.

दिल्लींत णव साम्राज्याचीं थडगीं आशिल्लीं. आतां धाव्या घराण्याच्या

थडग्यांची भर पडल्या. नेहरू घराण्यांतल्या लोकांचीं थडगीं आतां थंय उबीं जायत रावल्यांत.

दिल्लीक घरघर लागला. ती मरपा कडेन पावल्या.

दिल्लीक वचपाची इत्साच आतां जायना.

## दोन तकल्यांचे फुडारी

ते म्हणटात, पयलीं उत्पादन वाडोवंक जाय, ते बगर देशांतलें दळडीर ना जावपाचें ना.

हे म्हणटात, पयलीं दळडीर ना करूंक जाय. ते बगर उत्पादन वाडपाचें ना.

देशाचो विकास घडोवन हाडपाक मुखार सरिल्ले दोन विचार हे.

हांतलो पयलो विचार स्वराज्य मेळत सावन सत्येर आसा. उत्पादन वाडोवन तो दळडीर ना करूंक अजून पावूंक ना. उरफाटो, बेकार लोकांचो आंकडो वाडयत गेला. गिरेस्तांक अदीक गिरेस्त आनी गरिबांक अदीक गरीब करीत रावला. ते भायर, वारो उदक भूंय विखाळ करूंक लागला. अपेसी थरला. पुणून—

अपेस कोणाचे तरी तकलेर फोडूंक जाय. लोकांचे तकलेर तो आपणालें अपेस फोडूंक लागला. 'तुमी एका सारकीं भुरगीं जल्माक घालीत रावल्यात. स्वराज्य मेळचे पयलीं आमी चाळीस कोटी आशिल्ले. स्वराज्य मेळ्ळें, पाकिस्तान आनी बांगला देश आमचे पसून कडेक सरले. तीस कोटी लोक आमच्या वांट्याक आयिल्ले. आतां तिसांचे आमी शंबर कोटी जाल्यात. उत्पादन कितलेंय वाडयात, हे लोक तें खावन उडयतात. लोकसंख्या आळाबंदा हाडात, मागीर पळेयात, देशांतलें दळडीर ना जाता काय ना तें.'

हाका दुसऱ्या विचाराचे लोक जाप दितात, 'लोकसंख्येचो आनी उत्पादनाचो तसो अर्थाअर्थी व्हडलोसो संबंद ना. लोकसंख्येचो संबंद येता तो दळडिरा कडेन. गिरेस्तागेर भुरगीं चड नासतात. गरिबांगेरूच तांचो पोंवो फुट्टा. तुमी चलयतात तसल्या अगडबंब उद्देगां बदला गांवां गांवांनी ल्हान ल्हान उद्देग सुरू करात, सगळ्यांक काम दियात, दळडीर ना जातलें. देशाचें अर्थतंत्र शेतकामाचेर निम्बून आसा. शेतकामा खातीर चडांत चड लोकांच्या हातांत जमीन पडूंक जाय. म्हणटकूच, आपणाक लागता तितल्या तरी अन्नाचें पीक शेतकामती काडटलो. लाखांनी हात शेतकाम करपाक लागले म्हणटकूच आयचे परस कितल्याश्या वांट्यांनी चड अन्न देशांत पिकून येतलें. लोकांच्या पोटांत दोन तरी घांस पडटले. ते शिकूंक लागतले. शिकिल्लो शेतकामती लोकसंख्या वाडोवपाचो ना. शेतकामती गरीब उरलो जाल्यार देशूय गरीब उरतलो.

सत्येर आशिल्लो विचार म्हणटा, 'आमी खंय शेतकामाक म्हत्व ना म्हणटात? पुणून तुर्ताक तुमी जें शेतकाम करतात तें सोळाव्या शतमानांत लेगीत पोरणें जाल्लें. तें आयज कशें चलतलें? नवे तरेचें चलोवंक जाय.'

ह्या विचारान शेतकामाक नवें रूप दिलां. तें 'आधुनिक' केलां. रासायनीक सारीं, पिकांचें नाशें करपी किडी-मुयो मारपी वखदां, ट्रॅक्टर, हायब्रीड बियां शेतकामत्यांच्या हातांत दिवन उत्पादन पयलीं परस वीस पंचवीस वांट्यांनी चड वाडयलां. देशांत 'हरित क्रान्ति' घडोवन हाडल्या.

पुणून शेतकाम म्हारग जालां. लोकांनी तांदूळ, गंव, कड्डण, फळां काडपाचें आतां सोडून दिलां. ताच्या वांट्याचे ते उशीकांडे लावपाक लागल्यात. खंय खंय तंबाकूय लायतात. निमाणें, शेतकाम पुटवना म्हणटात आनी जमनी विकून उडयतात. आनी पोटा पाणयाचो प्रस्न सोडोवपा खातीर शारांनी वचपाक लागतात. आनी थंय झोंपडपट्ट्यांनी रावपाक लागतात. एके तरेच्या नरकांत पडल्यात हे लोक.

झोंपडपट्ट्यांनी कोण खंयच्यान आयला हाची वासपूस करची. म्हणटकूच 'आधुनिक' शेतकामान – हरित क्रान्तीन – जो अच्छेव मांडला ताचो अदमास येतलो.

उद्देगीक क्रान्ती येवचे पयलीं पुराय संवसारांत शेतकाम खंयचेच कडेन 'धंदो' जावंक नाशिल्लें. शेतकामती उत्पन्न 'कित्याचें'च काडी नाशिल्लो. तो 'सृजना'च्या वावरांत सैमाक आधार दितालो. पोटा पुरतें जोडटालो. पुणून खुशालभरीत आसतालो. शेतकाम 'धंदो' जालें आनी शेतकामत्यांचें जिवितूच बदल्लें. तेंय 'धंदो' जालें. शेतकाम तांकां सांगपाक लागलें, उत्पादन जमनींक लागून वाडना. झाडांक लागून वाडटा. झाडांक रासायनीक सारें दियात. पिकांचें नाशें करपी किडी मारपाक वखदां वापरात. सरकार तुमकां 'सबसिडी' दितलें. 'लोन' दितलें. लोक तांचें खरें मानपाक लागले आनी ते सांगतात तें करपाक लागले.

वीस पंचवीस वर्सां भितर 'हरित क्रान्ति'चो बोमाडो फुटलो.

देवान मनशाक दोन हात दिल्यात, दोन कान दिल्यात, दोन पांय दिल्यात, दोन दोळे दिल्यात. पुणून तकली एकूच दिल्या. दोन तकल्यो दिल्ल्यो जाल्यार तो निर्णयूच घेवंक पावचो नाशिल्लो. आयज आमी एके वटेन 'स्वदेशी' चलोवया म्हणटात. आनी दुसरे वटेन भौराष्ट्रीय कंपन्यांक सगळे तरेच्यो सवलती दीत रावतात.

पोखरण चांचणे उपरांत अमेरिकेन आमचेर आर्थीक निर्बंध घाले तेन्ना हांव खुशालभरीत जाल्लों. आतां तरी आमी स्वदेशीचो विचार करपाक लागतले अशें दिशिल्लें. पुणून अखेरेक यशवंत सिन्हाच्या आनी मनमोहन सिंगांच्या धोरणांत मुळावो असो कसलोच फरक पळोवंक मेळ्ळो ना. मेळ्ळो तो इतलोच – मनमोहन सिंगांक आपूण कितें करूंक भायर सरलां हाची पुराय जाणवीक आशिल्ली. यशवंत सिन्हांक ती ना. मनमोहन सिंगांक एकूच तकली आशिल्ली. यशवंत सिन्हांच्यो दोन. एक, स्वदेशीचो पाखो घेवपी. दुसरी, भौराष्ट्रीय कंपन्यांक जाय तें मेळोवन दिवपी. धड स्वदेशीय न्हय, धड विदेशीय न्हय असली एक धेडगुजरी अर्थनींत सरकार आमच्या देशांत चलोवपाक लागलां.

पयरूच अलाहाबादेचो एक इश्ट मेळिल्लो. 'तुका खबर आसा व्हय, अलाहाबादेक लोक आयज उदका खातीर नळा मुखार वरांचीं वरां उबे रावतात म्हूण?' ताणें म्हाका विचारलें.

'गंगा यमुना आनी सरस्वतीच्या वाटारांत लोकांक उदका खातीर नळा मुखार उबे रावचें पडटा?' हांवें अजापान ताका विचारलें.

'हय', ताणें जाप दिली. 'गंगेचें आनी यमुनेचें उदक आतां पियेवपा सारकें उरूंक ना. तिचे तडीर तरांतरांचे कारखाने आयल्यात. ते आपणाली सगळी मळी (molasses) ह्या न्हंयांनी हाडून ओततात. न्हंयांचें उदक विखाळ जालां. गुप्त सरस्वतीचें उदक (म्हळ्यार, बांयचें) काडून पियेतले म्हळ्यार शारभर सॅप्टिक संडास आसात तांकां लागून बांयचेंय उदक पियेवपा सारकें उरूंक ना...'

आयकून म्हाका धसको बसलो. म्हळें, 'गंगे-यमुनेचे तडी वयले लोक मर्तमडे जाल्यात काय कितें? तांणी उसळून उठपाचें न्हय? आनी सगळे कारखाने बंद उडोवपाचे न्हय?'

ताणें म्हळें, 'म्हाकाय तशेंच दिसतालें पयलीं पयलीं. लोकांची म्हाका तिडकूय मारताली... आतां तांची काकूळट दिसपाक लागल्या... सगळ्यांचें रगतूच मेलां...'

'पियेवपाक उदक ना' हें भारतांतल्या खंयच्याच मनशाच्या तोंडांतल्यान भायर सरूंक फावनाशिल्लें. इतल्यो न्हंयो ज्या देशांत आसात थंय लोकांक पियेवपाक उदक ना, अशें कशें जावं येता? गंगा, यमुना, कृष्णा, गोदा, नर्मदा ह्यो सगळ्यो न्हंयो पियेवपाचें उदक पुराय संवसाराक दितीत इतल्यो गिरेस्त. ब्रह्मपुत्रा पळेल्या? तिचो अवतार पळोवन लोक तिका नदी न्हय,

तर नद म्हणटात. तो येद्या नेटान व्हांवता की वाटे वयले गांवचे गांव आपणा वांगडा व्हांवोवन व्हरता. जे नोआखालीन गांधीची उतार पिरायेर सत्वपरिक्षा घेतिल्ली ती आयज बांगला देशांत सोदल्यारूय मेळना. व्हांवन गेलीं. पन्नास पाऊणशें वर्सां भितर पुराय बांगला देशूय खंय ब्रह्मपुत्र व्हांवोवन व्हरपाचो आसा.

भगीरथ विद्या ह्याच देशांत जल्माक आयिल्ली. तिबेटांत वचपी गंगेची व्हांवती हे वटेन ओडून हाडपाचो यत्न इतिहासांत पयलो वयलो भगीरथ राजानूच केल्लो. हे विद्येचो उपेग करून आमच्यांनी एका ब्रह्मपुत्राच्या आधारान पुराय देश सुजलाम सुफलाम करूं येतालो. आतां आयकूंक येता, चीन देश हो यत्न करपाक मुखार सरला. ब्रह्मपुत्राचो जल्म तिबेटचे भुंयेर जाला. थंयचे ताचे व्हांवतेक दोन नव्यो दिका दिवन एक तिबेटांतली तरी दुसरी चिनांतल्या गोभी वाळवंटांतली भूंय सुजलाम सुफलाम करपाची चीन देशान येवजण आंखल्या.

आमच्या देशाचें नेतृत्वूच दोन तकल्यांचें. एक तकली गंगे-यमुनेचे तडीर व्हडले व्हडले उद्देगधंदे उबे करून न्हंयांचें उदक विखाळ करून उडोवपी; दुसरी तकली नर्मदा, टिहरी सारकेल्या सुवातांनी न्हंयांक बांद घालपाच्यो येवजण्यो आंखपी. ब्रह्मपुत्राचें कितें करचें हें थारावपी तकलीच ना.

उदकाचो उपेग कसो आनी कितलो करचो हेंय आमकां समजना. एक किलो बासमती तांदूळ काडपाक चारशें लिटर उदक पुरो जाता. तर एक किलो साकर तयार करपाक स हजार लिटर लागता.

तकल्यो दोन जाल्ल्यान आमी म्हणटात, तांदळांच्या उत्पन्ना कडेन लक्ष केन्द्रीत करप ही 'बॅकवर्ड इकॉनॉमी'. कोंता येवपाची न्हय. साकरेचें उत्पन्न चड फायद्याचें – इकॉनॉमिकली ऍडवेंटेजस' (तांचीच भास ही). देशांत साकर खावपी लोक कितले आसतले? आदिवासी कोण खायनात, तशे फाटसार लोकूय खायनात. साठ पांसष्ठ प्रतिशत लोक हे. हांचे भायर, धा प्रतिशत लोक 'साकर म्हळ्यार विक्ख एके तरेचें' अशें म्हणटात आनी तिका आफडी लेगीत नात. धा प्रतिशत लोक गोड्या मुताचे पिडेन बेजार. ते साकर निखालूस उश्टायनात. देशांतल्या फक्त वीस पंचवीस (वा चडांत चड, तीस पस्तीस) प्रतिशत लोकांच्या जिबेचे लाड भागोवपाक कितली भूंय आनी कितलें उदक खर्चता हाचो हिशोब कोणें काडून पळेला व्हय? काडून पळोवचो. म्हणटकूच 'इकॉनॉमिकली ऍडवेंटेजस' कितें तें स्पश्ट बरें समजतलें.

पयलीं देशांत कृषिविद्यालयां नाशिल्लीं. म्हूण कृषितज्ञ नाशिल्ले. कृषिविद्यालयां आयलीं तेन्ना सावन भूंय – जी पयलीं जीवधात्री आशिल्ली, नव्या नव्या जिवांक जल्माक घालताली, तांची पोसवण करताली – ती अन्नाचें उत्पन्न काडपी एक 'साधन' जाली. आनी तेन्ना सावन तिची अवनत सुरू जाली. लक्षांत घेवपा सारकी गजाल म्हळ्यार, खंयचोच कृषितज्ञ नांगर हातांत घेना. मातयेंत हात घालिना. फकत 'बुद्द' दिता. हायब्रीड बिंयां वापरूंक लावन तांणी परंपरेन चलत आयिल्ल्यो अन्नाच्यो कितल्यो तरी जाती ना केल्यो. रासायनीक सारीं वापरूंक लावन जमनिचो कस ना केलो. किडी मारपी वखदां वापरूंक लावन कितल्योश्यो किडी – ज्यो शेतकामाक आधार दिताल्यो – मारून उडयल्यो. फाटल्या पन्नास बावन वर्सां सावन हे तरेचीं अवलक्षणीं पिशेपणां शेतकामाच्या नांवार चल्ल्यांत ह्या देशांत.

खरो वावर जावंक जाय आशिल्लो तो पावसाचें उदक आडावन जमनींत जिरोवपाचो. पावसाचें उदक णव वांटे व्हांवन वता. एकूच वांटो जमनींत जिरता. पांच वांटे तरी जमनींत जिरोवंक जाय. जाल्यार व्हाळ केन्ना आटचे नात. बांयो केन्ना सुकच्यो नात. बोरवॅल घालून हजारांनी वर्सां लागून धतरिच्या पोटांत एकठांय जाल्लें उदक उस्तून वयर काडपाची गरज भासची ना. चाळीस हजार वर्सां लागून जमनींत एकठांय जाल्लें उदक सगळें बोरवॅलांनी भायर काडून चाळीस वर्सां भितर सोंपयलें. तीस लाख बोरवॅली देशांत आसात.

जमनींत उदक जिरचें म्हूण दोंगरांचेर नेमां मारूंक जाय. चर मारूंक जाय. झाडां लावंक जाय. निलगिरीचीं न्हय. दुसरे तरेचीं. निलगिरीचीं झाडां लायिल्ले जमनीर दुसरें खंयचेंच झाड जायना. तें कित्याक, निलगिरीय रोयल्यार जायना. गोंयांत निलगिरीची गरज नाशिल्ली. आंबे, पणस आशिल्ले. भिण्णी आशिल्ल्यो. पुणून एके तकलेन आमी केन्ना विचार केलोच ना. दोन तकल्यो वापरल्यो. आनी सगळो गोंदळूच करून उडयलो.

माकड झाडां पेडांचें कितलें नाशें करतात, खबर आसा? आमचो शेतकामती माकड मारिना. रामाचे सैनीक ते, म्हणटा. माकडांक मारूंक जायना म्हूण कायदोय केला सरकारान. पुणून माकडांची 'वेवस्ता' खंय तरी करूंक जाय आशिल्ली, ती करूंक ना. माकड वागांचे भक्ष्य आशिल्ले. वाग रावताले त्या रानांतल्यान आमी व्हडले व्हडले रस्ते व्हेले आनी ह्या रस्त्यां वयल्यान ट्रक, टँकर, पिकअपी धांवडावपाक लागले. वाग दुसरे कडेन पळून गेले. आनी माकडांची 'लोकसंख्या' वाडत गेली. तांकां कुटुंब नियोजन कोणें शिकयलें ना. माकडांक, खरें म्हळ्यार, ट्रेनिंग दिवंक जाय. आयज पाडेली मेळनात. माकडांक नाल्ल काडपाक शिकोवंक जाय. माकडांक असली ट्रेनींग दिवपी कांय केन्द्रां खंय दक्षीण उदेंत देशांनी आसात. थंय कोणाकूय धाडूंक जाय आनी हांगाय माकडां खातीर शाळा कॉलेजां सुरू करूंक जाय. असले ट्रेन्ड माकड पोसपाक सगळे तयार जातले.

ना जाल्यार, माकड मारचेच पडटले आनी पांच वर्सां बंदखणींत रावपाक तयार रावचेंच पडटलें.

तात्पर्य, नेतृत्व एके तकलेचें आसूंक जाय. दोन तकल्यो आशिल्लें नेतृत्व उपकारा पडना. तें देशांत फकत गोंदळूच मातयतलें आनी सगळें मातये भरवण करून उडयतलें. दोन तोंडांचीं माळणां पुटवलीं. दोन तोंडांचें नेतृत्व – नाका गा सायबा, दुस्मानांच्या वांट्याक लेगीत येवं नाका.

## खबरी – आमोरे वयल्यो – ५

*तुमी कथा नवलकथा नाटकां कित्याक बरोवंक नात?*

बरोवंक नात? बरयल्यांत... पुणून उपरांत बरोवपाचीं सोडून दिल्यांत. कथा म्हजें माध्यम न्हय. एक खेपे चंद्रकांत केणयान म्हाका कथा बरय म्हळें. संपादक तो, 'राष्ट्रमता'चो. बुभुक्षीत. आयताराची पुरवणी कोंकणींत काडटालो. मॅटर उणी पडटाली. बरयतां म्हळें. दोन तीन कथा adapt केल्यो. खंयच्यो, तें आतां विसरलों. पुणून ह्या कथांनी 'जेनुं काम तेनाथी थाय, बीजो करे तो गोतां खाय' ह्या सत्याची जाणवीक करून दिली... बरयल्ल्यो तिनूय कथा ताका धाडून दिल्यो आनी सांगून धाडलें, 'छापपा सारक्यो दिसल्यो जाल्यार छाप. पुणून म्हज्या नांवान नाका.... म्हाका कथा जमनात.' ताणें लेखकाक कसलें तरी नांव दिवन त्यो छापल्यो. उपरांत हांव कथेचे वाटेक गेलों ना. वचपाची गरजूय भासली ना. कित्याक, ते मेरेन शीला नायक, मावज्या सारके कथाकार मुखार येवपाक लागिल्ले. एक एक करून कितलेशे मुखार आयले... 'तुळशी' नांवाची एक नवलिका बरयली. तिवूय अशीच. तिवूय चंद्रकांतान राष्ट्रमताच्या एका दिवाळी आंकांत लेखकाक कसलें तरी एक नांव दिवन छापली. ती लक्ष्मणरावांनी वाचली. म्हाका येवन तांणी विचारलें, 'तुवें बरयल्या मरे ती? सगळीं पात्रां जिवीं तट्टटीत जाल्यांत. आल्फिनेत मारीत जाल्यार तांच्या आंगांतल्यान

भळऽभळऽ करून रगत व्हांवपाक लागतलें...' मागीर शीण काडून म्हणपाक लागले, 'तुंवें त्या पात्रांचेरूय अन्याय केला आनी कथानकाचेरूय केला... तीनशें पानांची एक बरी नवलकथा जावं येताली ती.' हांवें म्हळें, म्हाका जमपाचें ना... जाग प्रकाशन सुरू जालें तेन्ना ती पुस्तका रुपान छापली. म्हज्याच नांवान छापली. म्हाका अजाप जाता, दोन हजार प्रती छापिल्ल्यो. सगळ्यो गेल्यो. तिर्ची रोमी आनी कन्नड लिप्यंतरांय जालीं. इतलेंच न्हय तर एक टेलेफिल्मूय जालें. पुणून फाल्यां, धरुंया, म्हजी वेंचीक बरपावळ कांय खंडांनी छापपाची येवजण कोणेंय आंखली जाल्यार हांव 'तुळशी' तातूंत येवंक दिवचों ना... नाटकांची गजाल वेगळी. गोंय स्वतंत्र जाल्लें आनी कांय कॉलेजांय सुरू जाल्लीं. भुरगे म्हजे कडेन नाटकां मागपाक येवंक लागले. 'मोगाचें लग्न', 'पोवनाचें तपलें', 'झिलबा राणो', 'ताची करामत' तांकां दिवपाक लागलों. दोन वर्सां उपरांत 'आमकां नवीं नाटकां जाय... हीं आमी केल्यांत' म्हणपाक लागले. नवीं नाटकां खंयचीं दिवं? एकल्यान म्हाका 'कावळे' नांवाचें एक मराठी नाटक हाडून दिलें आनी 'हाचें कोंकणी करून दी' म्हळें. खंयच्या तरी येवरोपेव नाटकाचें मराठी रुपांतर हें. भिडेक पडून करून दिलें. माचयेर आयलेंय बी. हातबरप परत हातांत आयलें ना. कोणाक दिल्लें ताचोय आतां उगडास जायना. मुम्बय गेल्लों. येतना कांय हिन्दी गुजराती नाटकां घेवन आयलों. इंग्रजींतलींय खूबशीं हाडलीं. धा बारा नाटकुलीं अशींच रुपांतरीत केलीं. तांतलीं स दोन पुस्तकांनी छापून काडलीं. उरिल्लीं खंय चरपाक गेल्यांत, खबर ना... कोणाक दिल्लीं ताचीय याद जायना... हीं सगळीं नाटकां नाटकुलीं 'पाडल्यांत' हांवें. काळाची 'गरज' म्हूण. उपरांत, एका फुडले एक नाटककार कोंकणींत आयले तेन्ना ल्हवूच ह्या मळा वयलें आंग काडून घेतलें. म्हजे वेंचीक बरपावळींत नाटकुलींय येवचीं नात...

तुंवें म्हाका फकत कथा नवलकथा आनी नाटकां संबंदानूच विचारलें. कवितां संबंदान विचारूंक ना. हांवें कविताय बरयल्यात. तांची प्रेरणा मात सामकीच वेगळी. कोंकणींत खुबूच कविता येवपाक लागल्यो. गद्या कडेन सगळ्यांचें दुर्लक्ष जावपाक लागलें. हाचो म्हाका हुसको जावपाक लागलो. हांवें काकासायबांक ह्या संबंदान सांगलें. तांणी फट्ट करून म्हळें, 'तर मग कोंकणी अमर होईल. तिला जिवंत ठेवायची असेल तर कवितेच्या दसपटीने ज्यास्त गद्य निर्माण झालें पाहिजे.' म्हाका इतलें पुरो जालें. हांव हें म्हणणें झरोवपाक लागलों आनी उदाहरणांय दिवपाक लागलों. म्हळें, अवधी भाशेंत तुळशीदासान 'विनयपत्रिका', 'रामचरितमानसा' सारकें काव्य रचलें. पुणून अवधी 'भास' जावंक पावली ना. कित्याक, अवधींत गद्य निर्माण जालें ना. ब्रज भाशेचीय हीच गत्त जाली. काव्य खूब निर्माण जालें. गद्य निर्माण जालें ना. ब्रज 'भास' जावंक पावली ना. मराठींत गद्य जावंक नाशिल्लें जाल्यार ज्ञानेश्वर येवनूय मराठी 'भास' जावची नाशिल्ली. कोंकणीचेंय अशेंच जावं येता...' म्हजें हें म्हणणें कांय कवींक उस्तऱ्यां गेलें. ते म्हणपाक लागले, 'हाका कविता बरोवंक येनात म्हूण हो अशें म्हणटा. आमकां ल्हान करूंक पळेता...' भौन भौन ही टिका कांनार येवन आदळपाक लागली तेन्ना म्हळें, हांकां बुद्द शिकयतलों. एक दीस दनपरां अडेज तिनांक बसलों आनी स साडे स मेरेनच्या काळांत शंबर कविता बरोवन काडल्यो. आनी त्यो राष्ट्रमतांत दिवपा खातीर चन्द्रकान्त केणया कडेन धाडून दिल्यो. ताणें म्हज्यो कथा छापिल्ल्यो तश्यो कविताय – कवीक इन्द्रकार नांव दिवन – छापल्यो. रवीन्द्रांतलो इन्द्र आनी केळेकारांतलो कार मेळून हें नांव ताणें घडयल्लें. राष्ट्रमताच्या दोन तीन पुरवणी आंकांत कांय छापून आयल्यो. शंकर रामाण्यांक त्यो आवडल्यो. 'हो इन्द्रकार कवी कोण?' तांणी म्हाकाच विचारलें. आनी आपूण इन्द्रकाराक एक व्हड कवी मानतां म्हळें. हांव वोग्गी रावलों. बाकीबाबान विचारलें, 'तुगेल्यो मरे त्यो कविता?...तुज्यांत एक कवी आसा, ताका पोसवण दी आं' म्हळें. हांवें अजापान म्हळें, 'बाकीबाब, हांवें त्यो कविंचीं फकाणां मारपाक बरयल्ल्यो... seriously घेवपाच्यो न्हय त्यो...' बाकीबाबांक राग मारतालो तेन्ना तांचो आवाजूय बदलतालो. तांणी म्हाका म्हळें, 'कविंचीं मार तूं फकाणां जाय तितलीं. कवितेचीं फकाणां हांव सोंसून घेवपाचो ना... कविता हो प्राण भाशेचो...' हांव कवितेचे वाटेक उपरांत गेलों ना. पुणून आयजूय म्हजें मत्त बदलूंक ना. कोंकणीक जिवी दवरची आसत जाल्यार (कवींकूच सांगतां हांव हें...) कवितां परस धा वांट्यांनी चड गद्य बरयात. रवीन्द्रनाथ कवीच आशिल्ले. तांगेले बरपावळिच्या पंदरा खंडांतले तिनूच खंड कवितेचे. एक गितांचो. बाकिचे इकरा गद्याचे. सगळे तरेचें गद्य तांणी बरयलां. कवीक कविता सोडून दुसरें कितेंच बरोवंक येना म्हणटात तें खरें न्हय... गद्यांत उलयतात मू ते? मागीर गद्य तांकां बरोवंक येवंकूच जाय.

*एक विचारूं? तुमी स्वताक कोणूय मानात, आमी तुमकां साहित्यिकूच मानतात. आमचे नदरेन साहित्यिकूच तुमी. पुणून तुमकां साहित्या इतलें अर्थशास्त्र लागता, शिक्षणशास्त्र, समाजशास्त्र, भाशाशास्त्र लागता... तुमी सैमीक शेतकामाचेर बरयतात... भौराष्ट्रीय कंपन्यां आड बरयतात... तें कशें?*

शिक्षणशास्त्र, अर्थशास्त्र, समाजशास्त्र हांकां साहित्यांत सुवात ना अशें मत्त काय कितें तुमचें? जागरूक नागरिकाक हीं सगळीं शास्त्रां लागूंक जाय. साहित्यिकाकूय लागूंक जाय. साहित्याक फकत वाचप्यांक रिझोवपाची खेळोवपाची शीम घाली जाल्यार चिंतपाचो, चिंतूंक लावपाचो वावर कोणे करपाचो? 'सांगातीं'त हांवें आल्बर्ट स्त्वेत्झराचें एक वाक्य दिवन म्हळ्ळें, I stand and work in the world as one who aims at making men less shallow and morally better by making them think. चिंतनांच्या सांगातांत जियेलां आनी बरयत रावलां. म्हज्या वाचप्यांक चिंतूंक लावपा सारकेंच कितेंय तरी दीत आयलां... हांव सुटके झुजांत पडिल्लों. हांगा थंय आपटत धोपटत... हाका ताका फुडारी मानून, तांच्या हाता खाला वावरत वावरत एक दीस वर्ध्याक पावलों. म्हाका शिक्षण मेळूंक पावलां तें खरेपणानशीं हांगा... मुक्त विद्यालय हें एक ते मुस्तींतलें. गुरुकूल पद्धतिचें. शिक्षकूय केद्या तोलामोलाचे मेळ्ळे म्हाका!... काकासाहेब, विनोबा, किशोरलाल मशरूवाला, जे.सी. कुमारप्पा... संवसारांतल्या खंयच्याच विश्वविद्यालयांतल्या विद्यार्थ्यांक केन्नाच मेळूंक पावले नात असले... शिकलों कितें? पायखिळे निवळ कशे करचे ह्या विशया सावन परमेश्वर कसो जोडचो ह्या विशया मेरेनचें सगळें... थंय खूब मेळटालें... म्हजोच मेंदू ल्हान आशिल्लो... तातूंत जें कितें आयलें तें हांव वांटीत आयलां सगळ्यांक आतां मेरेन...

*हाकाच लागून लोक तुमकां गांधीवादी लेखीत आयल्यात...*

खरें सांगूं? हांव गांधीवादी तर न्हयच, आनी, एक गुपीत सांगतां, लोक मानतात तसो हांव कोंकणीवादीय न्हय... हांव खंयचोच आनी कसलोच 'वादी' न्हय... वादी आसलोंच जाल्यार जीवनवादी... खरें म्हळ्यार जीवनयोगी म्हणूंक जाय आशिल्लें. पुणून योगी बिगी उतर कानार पडटकूच लोक दुसरोच अर्थ करतात म्हूण जीवनवादी म्हणटां हांव म्हाका... जीवन उन्नत करपी – वैयक्तीक जीवनूच न्हय, सामाजीक, राजकी जीवन उन्नत करपी सगळें म्हाका लागता...

एक याद जाल्या तशी सांगून उडयतां. 'वेळे वयल्यो घुलो' उजवाडा येतकूच मडगांवां ह्या पुस्तकाचेर कोणें तरी... कोणें तें विसरलों... एक चर्चा दवरली. अध्यक्ष आशिल्ले नरशींवबाब सुकेरकार... न.पुं. सुकेरकार... मडगांवांतले एक व्यासंगी विद्वान... कट्टर मराठीवादी. ते कितें उलयतात

तें आयकुपाक हांव मुजरत गेल्लों... तांणी कितें म्हणचें? तांणी म्हळें, 'हो मनीस पांच वर्सां वर्ध्याक रावन आयला... वर्धा म्हळ्यार लोणच्याचें बुंयांव... कितेंय घाल बुयांवांत... लिंबू घाल, करमेता... मिरसांग घाल, करमेता... तसो वर्ध्याक जो कोण वचून रावता तोय करमेता... तो गांधीवादी जावन येता... म्हूण ह्या पुस्तकांत गांधीवादाचींच कांय आंगां आसतलीं अशें दिशिल्लें. पुणून वाचतकूच अजापांचो धसको बसलो. हातूंत सॅक्सा विशिंचे जे विचार आयल्यात ते गांधी परंपरेंतले न्हय... बर्ट्रांड रसेल, र.धों. कर्वे हांचे परंपरेंतले विचार ते. हाणें स्वतंत्र बुद्दीन हे विचार घेतल्यात जाल्यार, गांधीवादांतलें ताणें जें घेतलां तेंय अशेंच स्वतंत्र बुद्दीन घेतलां म्हणूंक जाय.' सुकेरकारांनी केल्ली म्हजी ही तर्जणी सारकी अशें म्हाका दिसता.

*म्हणटकूच, तुमी गांधीवादी न्हय तर...*

हांव गांधीवादी हय काय न्हय, हांव नकळ. पुणून तूं गांधीवादी, खबर आसा तुका? तूंच न्हय, आयज ह्या देशांत जे कोण गांधीवाद out of date जाला, तो आतां चलपाचो ना... खंयच चलना अशें म्हणटात ते सगळे, आनी सगळ्यांक चोर फटींग वाटमारे मानतात ते सगळे गांधीवादी... दाखोवन दिवं, कशे ते? पंच, सरपंच, आमदार, खासदार, मंत्री, संस्था चलोवपी सगळे उतराचे मनीस आसूंक जाय, प्रामाणीक आसूंक जाय, कोणाक फटोवचे नात, नागोवचे नात अशे आसूंक जाय... integrity चे लोक आसूंक जाय अशें तुमकां दिसता काय दिसना? बेश्टे हुर्रर फुर्रर जावन दुसऱ्याच्या आंगार धांवन वचचे नात... आपलें म्हणणें दुसऱ्यांचेर बळयां लादचे नात... मतभेद आसले जाल्यार ते एकामेकां म्हऱ्यांत बसून सोडयतले, सोडोवंक पावले नात जाल्यार will agree to disagree – तूं तुज्या मत्ताक धरून चल, हांव म्हज्या मत्ताक धरून चलतां... एक दीस केन्नाय तरी म्हजें मत्त तुका पट्टलें वा तुजें म्हाका पट्टलें अशें म्हणपी... इतले liberal उदार आसूंक जाय अशें तुमकां दिसता काय दिसना?... कोण कोणाचे फाटीर चडून बसचो ना, दुसऱ्यांच्या श्रमाचो लाव आपणा खातीर करून घेवचो ना, कोण कोणाक चिड्डुचो ना, कोण कोणाचें शोषण करचो ना अशे तरेचो समाज घडचो आनी समाजांतलो जण एकलो शोषण करिना असलो आसचो, अशें तुमकां दिसता काय दिसना? कोणूय केदोय व्हड आसूं, ताचे दबकावणेक भियेना असोच मनीस आसूंक जाय... निर्भय... सत्य उलोवपाक भियेना असलो, सुल्ताना मुखार दिमी मोडिना असलो आसूंक जाय अशें तुमकां दिसता काय दिसना?... जंय हजार तरांच्यो धर्मपरंपरा चलत आयल्यात थंय सगळ्यांनी एकामेकांच्या धर्मपरंपरां विशीं मनांत आदर बाळगूंक जाय... आपणालो धर्म कितलोय बरो आसूं, दुसऱ्यांचो उणाक मानूंक जायना अशें जण एकल्यान मानूंक जाय आनी सह-अस्तित्वाच्या co-existenceच्या तत्त्वाक धरून सगळ्यांनी चलूंक जाय अशें तुमकां दिसता काय दिसना? तुमी सगळे हें मानतात, जें गांधी तुमकां मानात म्हूण सांगताले... गांधीवाद सगळो सत्य, अहिंसा, अस्तेय अपरिग्रह, संयम, शरीरश्रम, अस्वाद, सर्वधर्मसमभाव, निर्भयता, स्वदेशी, स्पर्शभावना... (आफुडभश्ट मानून कोणाक पयस दवरप ना) ह्या इकरा मुल्यांत आसपावला. हीं सगळीं मुल्यां तुमी मानतात, समाजांत चलूंक जाय म्हणटात, चलनात म्हूण तुमी फणफणटात आनी सगळ्यांक चोर फटींग वाटमारे म्हूण गाळी संवतात... तुमची ही तिडकूच तुमी गांधीवादी म्हूण दाखोवन दिता...तुमी तुमच्याच मत्तांक प्रामाणीक रावात, देश बदलतलो... हेंच सांगीत आयिल्ले गांधी... खंय out of date जाल्यात ते? तुमचे तकलेंत जें घालां – pragmatistनी तें मात्शें कुशीन दवरशात आनी पूर्वग्रह सोडून गांधी समजून घेवपाचो यत्न करशात जाल्यार 'आमीच खरे गांधीवादी. बेश्टे गांधीवाद चलपाचो ना म्हणत रावले आनी फणफणत रावले' अशें तुमीच म्हणटले. मागीर, दुसरो गांधीवादी काय गांधीवादी न्हय हें जाणा जावन घेवपाची इत्साय तुमकां केन्ना जावची ना... जायत व्हय काळीज तुमकां तुमच्याच मत्तांक धरूच चलपाचें?

✻ ✻ ✻

---

'जाग' ह्या म्हयन्यांत सत्ताविसाव्या वर्सांत पावल घालता. जागाच्या वाचप्यांचो आंकडोय इल्लो इल्लो वाडत आसा. ह्या वर्सा सावन 'जाग' भारता भायरूय पावता म्हूण सांगपाक आमकां भोव खोस भोगता. तरी, फकत पटयेच्या बळाचेर, जायरातिंचेर निंबून राव नासतना म्हयनाळें चलोवपाचो आमगेलो हावेस अजून पुराय जायना. वर्सान वर्स ही खंत आमी आमच्या वाचप्यां लागीं उक्तायतात आनी कांय वाचपी वर्सान वर्स आमकां एक दोन नवे वांगडीय जोडून दितात. तांच्या उपकारांत आमी आसातूच. पूण एक शिणूय आसा. 'जाग' कोंकणींतलें देवनागरी लिपयेंतल्यान नेमान उजवाडा येवपी एकलें एकसुरें साहित्यीक म्हयनाळें. खरें म्हळ्यार हें म्हयनाळें गोंयच्या सगळ्या वाचप-घरांनी – शाळा-कॉलेजांच्या वाचप-घरांनी तरी पावंकूच जाय आशिल्लें. असल्या कांय थोड्याच वाचप-घरांनी 'जाग' पावता. 'जागा'ची पटी भरची म्हूण आमी कांय शाळा-कॉलेजांच्या वेवस्थापनां लागीं मागूंक गेल्यांत तेन्ना, 'आमी तुमकां कळयतात, तुमी आंक दवरून वचात', वा 'तुमी आमचेलागीं पत्र वेव्हार करात', वा 'नेमाळ्यां खातीर आमचें बजेट सामकें कमी आसता' असल्यो जापो आमकां मेळटात. कोंकणी राजभास आशिल्ल्या राज्यांत अशें घडटा तेन्ना आमकां खऱ्यांनीच खूब वायट दिसता...

ह्या वर्साय आदलींच चडशीं सदरां मुखार दवरल्यांत. 'कोंकणी वावुरप्यांच्या आत्मकथनां'त गोंयच्या सुटके झुजाचे उगडासूय येवंक लागल्यात. हे उगडासूय आमचीं म्हत्वाचीं इतिहासाचीं पानांच. आमी तांकांय येवकार दितात.

दिवाळी लागीं पावल्या. म्हळ्यार, दिवाळी आंक लागीं पावला. दर वर्सा आमगेले बरोवपी 'जागा'च्या मोगान आमच्या दिवाळी आंका खातीर चुकनासतना साहित्य धाडटात तशें अंदूय तांणी तें धाडचें अशें आमी मागतात. 'जागां'त वावुरपी हात उणे आनी कामां खूब आशिल्ल्यान दर एका बरोवप्याक पत्र बरोवन साहित्य मागपाक आमी उणीं पडटात. आमची अडचण वळखून अंदूय बी बरोवपी आमचेर आदले वरीच मोग दवरतले ही आस्त आमी बाळगितात.

— वावुरपी संपादपी

## पडसाद

### 'आशाढांतलो एक दीस'
### ह्या अनुवादाच्या परिक्षणाच्या निमित्त्यान*

'जाग' म्हैनाळ्याच्या ओतुब्र १९९९च्या अंकांत डॉ. किरण बुडकुले हांणीं 'आशाढांतलो एक दीस' ह्या म्हज्या अणकाराचेर बरैतना, कांय प्रश्न उपस्थित केल्यात. हे प्रश्न शुद्धलेखनाकडेन आनी कांय उतरांच्या रुपांकडेन लग्निक आसात.

अणकाराचें पैलें प्रूफ तपासपाखातीर जेन्ना म्हजेकडेन आयलें, तेन्ना तातूंत शुद्धलेखनाच्यो खूप चुको उल्ल्यात म्हणपाचें ध्यानांत आयलें. तपासलेल्या प्रुफांवांगडाच चुकावळय धाडून दिली. ही चुकावळ पुस्तकांत छापिल्ली मेळना. छापिल्ले प्रतींत पैलें पान धरून चुको मेळटात. 'पैलो अंक' ह्या जाग्यार 'पैलो अंकन्' अशें छापिल्लें दिसलें, तेन्ना हांवें पुस्तक धांपलें. मुखावेलीं पानां वाचपाची अंदाजाच म्हाका जाली ना.

कोंकणीचे शुद्धलेखनाचे नेम करपाखातीर व्याकरणाची बरीच जाण आसपाची गरज आसा, अशें म्हाका दिसता. तूर्त तरी अशी जाण वा अभ्यास आशिल्लो मनीस दिसना. कोंकणी अकादेमीचे शुद्धलेखनाचे नेम आसात. हे नेम जितले अचूक आसूंक जाय आशिल्ले, तितले अचूक नात.

**'जांव'**

अकादेमीच्या नेमान 'जांव', 'जांवक' हीं उतरां 'जावं', 'जावंक' अशे तरेन बरोंवचीं अशें म्हळां. मुळांत हीं उतरां 'ऊं' आनी 'ऊंक' हे कृत प्रत्यय वा कुसां लागून घडिल्लीं कृदन्तां म्हळ्यार धातुसाधितां वा धातुअव्ययां आसात.

सोळाव्या शेंकड्यांत हीं धातुअव्ययां 'जाऊं', 'जाऊंक' अशा रुपान मेळटात. 'जा + ऊं = जाऊं', 'जा + ऊंक = जाऊंक' अशे तरेन हीं रुपां घडल्यांत. 'ऊं' आनी 'ऊंक' हीं कुसां लागून घडिल्ल्या धातुअव्ययांचो उच्चार जातना 'ऊं' उप्रांत 'अ' हो स्वर अधिक रुपान येता. मूळ 'ऊं' आनी अधिक रुपान आयिल्लो 'अ' ह्या दोनय स्वरांची संधी जावन, तांचो 'व' जाता (ऊंअ = व). संधी जातना 'ऊं'च्या माथ्यावेलो अनुस्वार 'ऊं'च्या पैल्या अक्षरार वता. अशे तरेन जा+ऊं+अ = जांव हें धातुअव्यय आनी तेच परी 'जा' धातुचें रीत भूतकाळी रुपय जाता.

अनुस्वाराकडेन लग्निक आशिल्लो आनीक एक नेम हांगा ध्यानांत घेवपाची गरज आसा. अनुस्वार हो खंयच्याय वर्णाचो उच्चार लांबैता (लांबयता). ताका लागून 'व'चेर अनुस्वार दिल्यार, जांव, जांवक हांचो उच्चार जावंऽ, जावंऽक असो लांबिल्लो (elongated) जातलो. देखून, जांव, जांवक हीं धातुअव्ययां, जावं, जावंक अशीं बरैनासतना, तीं 'जांव', 'जांवक' अशींच बरोवंक जाय. व्याकरणाचे नदरेन अशेंच योग्य आसा आनी 'व'चेर अनुस्वार दिवन न्हंय.

शणै गोंयबाबांनी आपल्या 'कोंकणी नादशास्त्र' ह्या सुपुल्ल्या पुस्तकांत 'बांयंत', 'खावं', 'खावंक' आनी असल्याच संदी-स्वर आशिल्ल्या उतरांनी 'य' आनी 'व'तल्या 'अ' स्वराचो उच्चार जायनाँ. निखट्या 'य्' आनी 'व्' व्यंजनाचो नाखयो उच्चार जाता अशें म्हळां. देखून, तीं उतरां खावं, खावंक अशीं बरोंवक जाय, अशें ते सांगतात.

---

** हें बरप शुद्धलेखना संबंदान आशिल्ल्यान तें आमी तश्या तशें – बरोवपाचे रितींत इल्लोय बदल करी नासतना उजवाडायलां.*

*— वावुरपी संपादपी*

शणै गोंयबाबांची वेली सांगणी विसकून पळोवया. 'य' आनी 'व' ह्या संधी-स्वरांत 'अ'चो उच्चार जायना अशें ते सांगतात. 'अ' ह्या स्वराचो उच्चार जायना जातकीर, थंय 'य' आनी 'व' हे वर्ण निखटे व्यंजन म्हणून उरतात. व्यंजनांक स्वर लागल्याबगर तांचो पूर्ण उच्चार जायना. तांचो सदांच अर्दुकुटो उच्चार जाता. तांचेर अनुस्वार दिवन तांचो नाखयो उच्चार जावंकच पांवचो ना. त्या भायर अनुस्वाराचोय नेम तेच परी 'य्' आनी 'व्' हीं व्यंजनां आसात, हें ध्यानांत घेतल्यार, ह्या व्यंजनांवेलो अनुस्वार तांच्या पैल्या अक्षराचेर, म्हळ्यार 'खा'चेर वता. अशे तरेन खावं, खावंक हांचीं रुपां खांव, खांवक अशीं जातात. हेच तरेन 'जांव', 'जांवक' हींय उतरां घड्टात.

'जांव' ह्या उतराच्या निमित्त्यान, कोंकणींतलें प्रथम पुरुशी सर्वनाम 'हांव' कशे तरेन घडलां, हेंय पळोवपाची गरज आसा. संस्कृत भाशेंतलें 'अहम' वा 'अहकम' ह्या उतराक लागून 'हांव' हें सर्वनाम जालां. अपभ्रंशांत 'अहम' चें 'हऊं' जालें. ह्या 'हऊं'चें मुखार 'हांव' जालें. जे तरेन 'जाऊं'चें 'जांव' जाता, तेच तरेन 'हऊं'चें 'हांव' जाता. 'जांव' हें उतर 'जावं' अशें बरेल्यार, 'हांव' हें उतरय 'हावं' अशेंच बरोवचें पड्टलें. देखून, 'जांव' ह्या उतराखातीर होय मुद्दो ध्यानांत घेवपाची गरज आसा.

कोंकणींतलें 'वाट' हें उतर, देशी आनी प्राकृत 'वट्ट' ह्या उतरावेल्यान जालां. 'वाट' ह्या उतराक 'आर' हें ताळाकूस लागून वाटार (वाट+आर = वाटार) हें उतर घडलां. वाटारावेल्यान 'वाटारो' (वाटारॉ) अशेंय आनीक एक उतर घडलां. 'वाटारो' म्हळ्यार वाटाराची राखण करपी अधिपती वा खेत्रपाळ. प्राकृत 'वट्टाआर' ह्या उतरावेल्यानय 'वाटार' हें उतर घडलां जावये, अशेंय म्हणूं येता.

'सुनापरान्त' आनी 'राष्ट्रमत' हीं दिसाळीं 'वाटार' ह्या उतराच्या जाग्यार 'वाठार' अशें उतर उपकरायतात. 'ठ' हें कठोर व्यंजन खंयच्यान आयलें तें समजना. कोंकणीची जातोड मोव आनी गोड. जंय उतराच्या उच्चाराक गोडसाण येता, थंयच कोंकणी कठोर व्यंजन उपकरायता.

'अशी हांव प्रार्थना करतालें', 'ह्या वेळार म्हज्याच स्वार्थाचो विचार करपाक म्हाका सोबचें ना' ह्या वाक्यांतलीं कुसां (प्रत्यय) डॉ. किरण बुडकुले हांकां अ-कोंकणी कित्याक दिसचीं तें म्हाका कळना. 'करपाक' हें रूप, तेच परी 'सांगपाक', 'वाचपाक', 'धांवपाक' बी अशीं रुपां हांव म्हज्या भुरग्यापणासावन आयकत आयलां. हीं कुसां अ-कोंकणी न्हंयत.

कोंकणींतल्या 'न्हंय' (negative) आनी न्हंय (river) ह्या दोनय उतरांतल्या 'न्ह'चेर अनुस्वार दिवपाची गरज जाणवता. हांतूंतल्या खंयच्या 'न्ह'चेर अनुस्वार दिंवचो आनी खंयच्या 'न्ह'चेर अनुस्वार दिंवचो न्हंय, हाची चर्चा करपाची गरज आसा. संस्कृत 'न ही' ह्या उतरावेल्यान कोंकणी न्हंय (negative) हें उतर घडलां, अशें वाचिल्ल्याची याद जाता. प्राकृत 'नई' वेल्यान कोंकणी 'न्हंय' (river) हें उतर घडलां. 'न ही' हातूंतल्या 'ही'चेर एक नेट वा जोर (stress) आसा. देखून, न्हंयकार दाखोवपी 'न्हंय' ह्या उतराचेर अनुस्वार दिवपाची गरज चड जाणवता.

'पयलो' हें उतर हांवें 'पैलो' अशें बरैलां (बरयलां). शणै गोंयबाबांच्या मराठी लेखांचें 'कांहीं मराठी लेख – पैलो वांटो' ह्या नांवान १९४५ वर्सा एक पुस्तक उजवाडाक आयलां. ह्या पुस्तकाच्या मुखावेल्या पानारच 'पैलो वांटो' हातूंतलें 'पयलो' हें उतर 'पैलो' अशें बरैलां. 'कोंकणी शब्दसागर – भाग पैलो' हातूंतलें पयलो हें उतर हांवें 'पैलो' अशेंच बरैलां. कोंकणींतलें 'पैलो' हें उतर प्राकृत 'पहिल्ल' ह्या उतरावेल्यान घडलां. 'पैलो' ह्या उतराची विसकणी अशी जाता: प + अ + य + लो (लॉ). प् हें व्यंजन. ताका 'अ' हो स्वर लागतकीर ताचो 'प' असो उच्चार जाता. 'अ' ह्या स्वराचे, ताच्या निजाच्या उच्चारा भायर धांकिल्लो लांबोडो आनी धांकिल्लो मोटवो अशे दोन उच्चार जातात. ह्या उच्चारांक स्वरीत म्हण्टात. हो

उच्चार ज्या ज्या अक्षराचो जाता, ताच्या माथ्यार गरजेप्रमाणें लांबोडी तेच परी मोटवी रेगटी (।) दितात. 'पैलो' ह्या उतरांतलो 'प'चो उच्चार धांकिल्लो लांबोडो जाता. 'पयलो' हें उतर बरैतना 'प'चो धांकिल्लो लांबोडो उच्चार दाखोवपाची गरज आसा. देखून, हें उतर बरैतना, तें 'पंय्लो' अशें बरोवपाची गरज आसा. 'पं'च्या मुखार 'य्' हें व्यंजन येता. ह्या दोनांचो उच्चार 'पंय' (प्+अंय = पंय) असो जाता. संस्कृत 'पति' वेल्यान जाल्लें 'पंय' हें आडनांव 'प'चेर दोन मात्रा दिवन 'पै' अशें बरैतात. 'अंय' हो उच्चार जंय जंय जाता, थंय थंय अक्षराच्या वैर दोन मात्रा दिवन, हो उच्चार दिस्तादिस्त जाता. देखीक: पै (पंय), दाखै (दाखंय), बरै (बरंय). ह्याच खातीर 'पयलो' हें उतर 'पैलो' अशें बरैल्यार बरें, अशें म्हाका दिसता.

**च, ज, झ**

च, ज, झ ह्या वर्णांचे कोंकणींत दोन उच्चार जातात. एक दांत-खोंपयो म्हळ्यार दंत-तालव्य आनी दुसरो तालव्य म्हळ्यार खोंपयो. पणसाची 'चार' आनी संख्या 'चार' हांचो उच्चार एक न्हंय. पैल्या 'चा'चो उच्चार दांत-खोंपयो, तर दुसऱ्या 'चा'चो उच्चार खोंपयो. 'जमखान' हातूंतलो 'ज'चो उच्चार दांत-खोंपयो, तर 'ताजें' हातूंतल्या 'ज'चो उच्चार खोंपयो. 'झगडें' हातूंतल्या 'झ'चो उच्चार दांत-खोंपयो, तर झेम (झॅम) हातूंतल्या 'झ'चो उच्चार खोंपयो.

च, ज, झ ह्या वर्णांच्या खोंपया उच्चारांत 'य' हो वर्ण लागून तांचो उच्चार जाता. देखून, 'म्हजें', 'ताजें' ह्या उतरांचो उच्चार 'म्हज्यें', 'ताज्यें' असो जाता. हीं उतरां 'म्हज्यें', 'ताज्यें' अशीं बरैल्यार, ध्वनिशास्त्राचे नदरेन तातूंत कसलीच चूक ना.

कोंकणीवरी मराठितय ह्या वर्णांचो दांत-खोंपयो आनी खोंपयो असो उच्चार जाता. दादोबाच्या वेळारच त्या उच्चारांचेर तांचें ध्यान गेल्लें म्हणपाचें कळटा.

भास ही ध्वनिंनी निर्माण जाल्या. लिपी म्हळ्यार त्या त्या भाशेंतल्या वर्णांच्या ध्वनिंचो रुपकार. एक वर्ण दुसऱ्या वर्णापरस उच्चाराक लागून वेगळो जाता. देखून, वर्ण जर एकच आसा, तर उच्चार दोन कशे? उच्चार दोन जाल्यार वर्ण एकच कसो?

ह्या उच्चारांचेर ध्यान वच्चें ह्याच खातीर 'उच्चार' हें उतर 'उच्च्यार' अशें बरैलें. 'ताजें' हें उतर 'ताज्यें' अशें बरैलें. ध्वनिशास्त्राचे नदरेन हातूंत कसलीच चूक ना. हो गोंधोळ लिपयेक लागून जाला.

संस्कृत भास ही देवनागरी लिपयेंत बरैल्ल्यान आनी कोंकणीनय तीच लिपी घेतिल्ल्यान हो गोंधोळ जाला. संस्कृत भाशेंत ह्या वर्णांचो तालव्य म्हळ्यार खोंपयो हो एकच उच्चार जाता; दंत-तालव्य वा दांत-खोंपयो उच्चार जायना.

कोंकणींत ह्या वर्णांचे दोन उच्चार जाल्ल्यान, कसलीच वेगळी कुरू वा खूण करिनासतना, हे वर्ण आशिल्लीं उतरां बरैतात. आज मेरेन चलत आयिल्ली परंपरा तशीच चलोंवची वा ह्या वर्णांचो खोंपयो उच्चार दाखोवपाक कसलीय कुरू करची, हाजेर विचार जावंक जाय.

'अप्रतिष्ठा' हें संस्कृत भाशेंतलें उतर. कोंकणींत तें तत्सम रुपानच घोळटा. जाल्यारूय, संस्कृत 'ष'चें कोंकणींत 'स' जाता. ताका लागून, 'ष'च्या जाग्यार 'स' घालून 'अप्रतिस्ठा' हें उतर बरैतात. 'अप्रतिस्टा' अशाय रुपान तें घोळटेंत आसा. म्हज्या बरपांत हीं दोनय रुपां हांवें उपकरायल्यांत. तेच परी हीं दोनय उतरां 'कोंकणी शब्दसागरां'त घेतल्यांत.

'स्वस्तिक' हें उतर 'स्वास्तिक' अशें हांवें बरैल्लें आसत, अशें दिसना. घडये बरैतासतना 'स्व' जाग्यार 'स्वा' जाल्लें आसत वा छापणावळिचीय चूक जाल्ली आसत. छापिल्ले प्रतींत खूप चुको उल्ल्यात म्हणपाचें हांवें पैलींच सांगलां.

कोंकणीचें परिपूर्ण अशें बरैल्लें व्याकरण, तूर्त तरी आमचेकडेन ना. आज कोंकणी कॉलेजांनी शिकैतात, विश्वविद्यालयांत शिकैतात. कॉलेजाच्या पांवड्याचेर, तेच परी विश्वविद्यालयाच्या पांवड्याची गरज ध्यानांत घेवन, परिपूर्ण अशा व्याकरणाची गरज आसा, अशें म्हज्या सारकिल्या अड्याण्याक दिसता.

डॉ. किरण बुडकुले हांच्या लेखाक लागून म्हगेलो ओग हांवें घालो. ह्या खातीर हांव तांचे उपकार मानतां.

**— पांडुरंग भांगी**

वावुरपी संपादपी, 'जाग'

नमस्कार

'नदर संपादप्याची' ह्या सदरांतलें 'अवनती कडेन व्हरपी एक व्यसन' (जाग, जुलय २०००) हें टिपण वाचलें.

वेसन, मागीर तें कसलेंय आसूं, तें वायटूच. तें मनशाक/समाजाक अवनती कडेन व्हरता. ताचो तोल ढळयता. गरजे परस सुमारा भायर दुडवां फाटल्यान लागप, दुडवांचें हळशिकावणें प्रदर्शन करप, जिवाक मारून दुडू सांठोवप, रीण काडून फेस्तां फुलोवप, दुसऱ्यांच्या खुस्तार आपली तिशी, चाळिशी, पन्नाशी, साठी मनोवन धेवप, प्रसिद्धिचे फाटसून लागप, अती खावन मसणांत वचप; आपलेच जिणेचे तरेची हिसपा भायर तोखणाय करून दुसऱ्यांचे जिणे पद्‌तिचीं खेबाडां करप हिंवूय वेसनांच. तिंवूय आमच्या समाजाक ग्रासपाक लागल्यांत. सोऱ्याच्या वेसना इतलींच तीं वायट, कित्याक, तीं जिणेची समताय इबाडटात.

संपादप्यान फुडें म्हळां: 'सुमारा भायर बुद्धिमान आनी प्रतिभावान म्हजे कांय इश्ट सोऱ्याच्या एका वेसनाक लागून देड दमडेचें लेगीत मोल नाशिल्ल्या धनवंतांचे खुशमस्करे, विदूषक (clowns) जावन पडिल्ले पळेल्यात.' गजाल खरी. पूण हें सोऱ्या खातिरूच घडटा हें खरें न्हय. खुशामत करप ही एक वृत्ती. ती स्वार्था पोटीं बळावता. ताका बेबदो जावंचेली निखालूस गरज ना. व्हडले व्हडले धनवंत (जे बेबदे न्हय) ते देड दमडेचें लेगीत मोल नाशिल्ल्या सत्ताधिशां मुखार नाचिल्ले दिल्ली पसून गल्ली मेरेन आमी दिसपट्टे पळेनात? ही वृत्ती सोऱ्याच्या वेसना परस वायट, कित्याक, ती मनशाक/समाजाक भितरल्यान पोखरता. ताका पांगळो आनी दुबळो करता.

संपादप्यान फुडें म्हळां: 'बाकीबाबांक (गालिबा भाशेन सोऱ्याचें) व्यसन लागूंक नाशिल्लें जाल्यार ताचें 'महात्मायन' पुरें जावन येतलें आशिल्लें. दोगांकूय सोऱ्यान व्हड जावंक दिले नात.' संपादप्यान सोरो पियेवपाचे बाबतींत बाकीबाबांक गालिबाचे पंगतींत बसयला हें कितलें समा तें हांव सांगूंक नकळ. बेबदो म्हळ्यार आल्कॉहॉलिक. सकाळीं उठना फुडें कोप मारपी. आनी रातीं न्हिद मेरेन सोऱ्याचे घुवळींत -- कैफांत आसपी/रावपी. बाकीबाब ह्या पोर्तातलो केन्नाच नासलो. तो सोशल ड्रिंकर आसलो. तिनसांजेर 'ड्रिंक' घेवन गोजार जावपी, 'आलेग्र' जावपी. बेबद्या भाशेन पियेवन बाकीबाब केन्नाच बडबडलो ना. ड्रिंक घेवन तो मुद्देसूद उलयतालो आनी आयकुप्यांचीं मनां रिझयतालो. खंयचेय पार्टेंत बाकीबाब आकर्शणाचें केंद्र आसतालो. आनी मजा म्हळ्यार, दुसऱ्या दिसा सक्काळीं उठून तो आपल्या बरोवपाच्या कामांत गुल्ल जातालो. जाण्टेपणांत सुरू केल्ले हे ड्रिंक घेवपाचे संवयेक लागून ताणें कोणाचेंच वायट इत्सिलें ना वा नुकसानूय केलें ना. ताचें एकूच घडये चुकलें जायत. आपल्या घरा कडेन आयिल्ल्या साद्या मनशां कडेन लेगीत तो वरांचीं वरां उलयतालो, झांकड्यो मारतालो. कित्याक, तो मनशांचो मोगी आसलो.

बाकीबाबां कडल्यान 'महात्मायन' जालें ना हाचीं कारणां वेगळीं आसात. ह्या विशयाचेर जायती चर्चा जाल्या आनी बाकीबाबानूच हाचे विशीं जायतें

सांगलां.

बाकीबाब एक व्हड प्रतिभावंत कवी, एक भाव (lyric) कवी हातूंत दुभावूच ना. विसाव्या शतमानांतल्या गोंयच्या साहित्य विश्वांतलो तो एक मानदंड. पूण महाकाव्य (epic) बरोवपाक जे गूण लागतात ते बाकीबाबां कडेन आशिल्ले व्हय? महाकाव्य बरोवप म्हळ्यार ८० प्रतिशत घाम गळोवप आनी २० प्रतिशत स्फूर्त. बाकीबाबां कडेन १०० प्रतिशत स्फूर्त आशिल्ली हे विशीं कोणाचेंच दुमत जावंचें ना. 'महात्मायनां'तल्या मंगलाचरणाच्यो ९०० हॊंवयोच हाची गवाय दितात. पूण पेंगट बांदून, वर्सां कणकणीं म्हायती पुंजावन, चरित्र नायकाचे जिणेचो सोद घेवन ताचेर काव्यमय भाश्य करतकीच एका म्हाकाव्याचो प्रबंध सिद्ध जाता. ताचे खातीर दैवी प्रतिभे वांगडाच कमालिचें पासियेंस, शिस्त आनी जिद्द हिंवूय लागतात. हीं बाकीबाबां कडेन आशिल्लीं व्हय, हाचो सोद तांच्या चरित्रकारांनी तटस्थपणान घेवंचो पडटलो. आनी तीं ताचे कडेन नाशिल्लीं हें सिद्ध जाल्यार, महात्मायन पुराय ना जावपा फाटलें हें एक मुखेल कारण आसलें हें स्पस्ट जातलें. हे विशीं म्हजी तांचे कडेन खूब फावटीं चर्चाय जाल्ली. तांकां ह्या विशयाचें भान नाशिल्लें अशेंय न्हय, पूण तांच्यो साहित्यीक priorities वेगळ्यो आशिल्ल्यो. हेंवूय 'महात्मायन' पूर्ण ना जावपा फाटलें आनीक एक कारण आसुंयेत.

साहित्यांत बाकीबाबांक चिरंतन व्हडपण मेळ्ळां तें तांचे भावकवितेकूच लागून. महात्मायन जालें ना म्हूण तांचे कडसून तें व्हडपण कोणाकूच काडून घेवपाक येवंचें ना. मराठी काव्याचो एक कालखंड 'बोरकर-कुसुमाग्रज' कालखंड म्हूण वळखतात. मराठी काव्य रसिकांच्या हृदयाचेर तांचेंच अधिराज्य चलता. महाराष्ट्र आनी गोंयच्या राजकारणी लोकांनी तांकांन्याय दिवंक ना ही गजाल वेगळी.

हांव पुनर्जल्म मानपी. 'महात्मायन' पूर्ण करपाक बाकीबाब पर्थून जल्म घेतलो ही म्हजी स्रद्धा. हो ताचो पुनर्जल्म गोंयांतूच जावंचो आनी 'महात्मायन' कोंकणींत जावंचें ही म्हजी प्रार्थना. देवा तशेंच घडय.

**— सुरेश गुंडू आमोणकार**

## केरळांतली कोंकणीची स्थिति

जुलै २०००चे जागाचेर श्री. संदेश बांदेकार बरयतात – 'मुळावें शिकप आनी पदवेच्या पांवड्यारूय हांगा (केरळांत) देवनागरी कोंकणीचो वापर जाता ही अभिमानाची गजाल.' हें वाचनाफुडें केरळांत कोंकणी शिकच्या शिकोवच्या विशीं ह्या बरोवप्या मनांत कसली की गलत धारणा आसा अशें दिसता. देखून ह्या विशीं यथार्थ कितें तें सांगूंक जाय म्हूण दिसून तें हांगा स्पष्ट करतां.

### मुळावें शिक्षण

पुराय केरळांत फकत दोन प्रायमरी स्कूलांत एक विषय म्हूण कोंकणी शिकोवची तजवीज आसा. ह्या दोनीय स्कूलांत पैले ते चोवते क्लासांत हर हफ्त्याक चार पिरयडांनी कोंकणी शिकोवच्याक सरकारान अनुमति दिल्या. दोनीय स्कूलांत मेळनु चार टीचर आशिल्लीं. आतां एकीच टीचर पुरो खें कित्या? अंग्रेजी माध्यमाचो धिमधिम लागून आतां ह्या दोनीय स्कूलांत भुरग्यांची संख्या उणी जाता आसा. ह्या स्कूलांत एक विषय म्हूण कोंकणी शिकिल्या विद्यार्थ्यांकच उंचवयल्या क्लासांत कोंकणी शिकोवच्याक खंयच्या स्कूलांत वेवस्ता ना. मिडिल स्कूलांत वा हायस्कूलांत वा कॉलेजांत वा विश्वविद्यालयांत कोंकणी ना. आसा म्हूण कोणेय सांगत तरी ती फूट फट.

केरळांत कोंकणी लोकांल्या संस्थांनी चलोवचीं आनीकय स्कूलां आसात. थांगा खयिं कांय कोंकणी शिकोवच्याक सरकारान अनुमति दिली ना. त्या संस्थेनी कोंकणी जाय म्हूण मागणीय सरकारा मुखार दवरली ना. कोंकणी शिकून कसो फायदो? म्हूण सगटांचेय मनांत संदेह दिसता. स्कूलांत जायतीं विषयां आसात; आनी कोंकणीचोय भार भुरग्यांचे तकलेर कित्याक चडोवचो हे चिंतेन आमी पिडेस्त जातात. कोंकणी लोकांकूच कोंकणी नाका जाल्यार मागीर कोणाक जाय? सरकाराक?

### पदवेच्या पांवड्यार

कोचीन यूनिवर्सिटीचे हिन्दी विभागांत एक कोंकणी शब्दकोश तयार केलोलो आसा. हिंदी विभागांत रीडर म्हूण कार्य करचे डा. सुनीताबायेन आपलो व्यक्तिगत परिश्रम जावनु हो कोश तयार केलोलो. त्या खातीर विश्वविद्यालय अनुदान आयोगान (University Grants Commission) अनुदान दिलेलें. डा. सुनीताबायेन कार्य करच्या हिन्दी विभागांतूय कोंकणी शिकची शिकोवची वेवस्ता ना. कोणय विद्यार्थी थांगा कोंकणी शिकना.

केरळांत कालिकट युनिवर्सिटींत कोंकणी चेयर करतले म्हुण एदीं वर्सां पिरथम डेंडें वाजून प्रचार करताले. पूण कार्य कांय चललें ना. आतां कोट्टयम गांधी युनिवर्सिटींत कोंकणी चेयर थापल्यां. त्या चेयरार एक सेवानिवृत्त हिन्दी प्रोफसर बेसल्या. तिणे सगळ्या जीवितांत कोंकणीचें काम कांय केलें म्हूण आयकलें ना. आनी चेयराचें काम कितें कसलें तेंवय कांय कळना.

### केरळांत देवनागरी

केरळाचे शिक्षण वेवस्थेंत अनिवार्य तृतीय भाषा (Compulsory Third Language) म्हूण हिन्दी आसा. एक ऐच्छिक विषय जावन संस्कृतय आसा. पनास वर्सां जालीं ही वेवस्ता चलता. देखून S.S.L.C. पास जालेल्या सगटांक देवनागरी कळता. देखून केरळांत कोंकणी देवनागरीन वाचप-बरोवप सोंपें आसा. देखूनूच हांगा देवनागरीन बरोवचे कोंकणीचो वापर जाता. जाल्यारूय, यो, कोंकणी वाच, शीक, बरय म्हळ्यार कोणेय तयार ना. ही स्थिति विचित्र की न्हय?

### जाल्यारूय जिवंत

केरळांत कोंकणी कार्य करच्यो तीन प्रशस्त संस्था आसात.

१. कोची कोंकणी भाषा प्रचार सभा

२. कोंकणी भाषा इन्स्टिट्यूट, एरणाकुलम्

३. केरळ कोंकणी अकादमी, कोची

ह्यो तिनीय संस्था केन्ना केन्ना कोंकणी कार्यक्रम घडयतात; पुस्तकां उजवाडायतात. सर्वय नागरी लिपींत.

मात्र न्हय; गोकुलदास प्रभूले काणये झेल्याक आनी शरतचन्द्र शणैले कविते झेल्याक केन्द्र साहित्य अकादमीचे पुरस्कार फावो जाल्यात. वयोवृद्ध आनी ज्ञानवृद्ध प्रा. आर.के. रावमामान अणकाराचो पुरस्कार जिखला.

### सरकारालें सहकार्य

वयर सांगील्या एक कोंकणी प्रायमरी टीचराक सरकार वेतन दिता, केरळांतले सामान्य नियमाकं अनुसरून. ह्या शिवाय केरळांतल्या खंयचेय संस्थेक सरकार एक पैसो सरी पालव दिना.

केरळ कोंकणी अकादमी सरकारी संस्था न्हय; एक स्वयंसेवी संस्था. दुबाव नाका म्हुण सांगतां.

१९९६ वर्सा कोची घडलेल्या अखिल भारतीय लेखक सम्मेलनाक सरकारान कृपेन रु. २५०/- अनुदान दिवच्याक अनुमति दिलेली. एक मन्त्री महोदयान घोर घोर भाषणय केलेलें. तरीय आज मेरेन एक पैसो सरी दिलो ना.

केरळांतल्या कोंकणी समाजाक कोंकणी जाय म्हुण ना. खंय खंय कोणकोण की व्यक्ति आसात, जांच्या मनांत कोंकणीचो मोग, तिचे फुडाराची प्रत्याशा वा भावना फुलून चंवरून आसा. त्या भावनेचे बळान वयर सांगील्यो संस्था जिवंत आसात. ही एक अभिमानाची गजाल; कांयच दुबाव ना.

**— पी.जी. कामत**, तृशूर, केरळ

# रसपाळें केळें

**मूळ मलयाळम: वायकम मुहम्मद बशीर**

**अणकार: आर. के. राव**

*वैकम मुहम्मद बशीर (१९१०-१९९४) हे नामनेचे (मलयाळम भाशेंत बरोवपी) भारतीय कथाकार आनी नवलकथाकार. तांगले सवे पुण्यतिथी निमतान ही कथा आमी उजवाडायतात. प्रो. रावान केल्लो हो अणकार आमी तांगेले कोचीचे शैलींतूच वाचप्यांक भेटयतात.*

रसपाळें केळें – ही काणी हांव मन लावन न्हय बरयतां. अब्दुल खादर साहबालें उपद्रवा लागून. तो लेखता, हांत एक व्हड नैतीक पाठ आसा म्हण. ताची घरकान्न जमीला बीबी संबंदी आसा ही कथा.

जमीला बीबी विश्वविद्यालयाची बी.ए. पदवीधरनी. अब्दुल खादर साहब विद्यालयांतलो धावो वर्ग मेरेन शिकला. देशाची चाल प्रमाणी बी.ए. कारनीक धावें वर्ग मेरेन शिकल्यान व्हरडीक कर्येतकी? पूण झुजांत बळान धर्न घेतिल्ली म्हण अब्दुल खादर साहब दावो करता. पूर्वपुरातन काळाक बायलांक दादले फटोवन धर्न घेवन वताले. दीग दोराचे तलवाक गुळ्के कर्न, तें उडोवनूय बायलांक धरताले. जायते तरांचे जुलुम दादले बायलांचेर करताले. अब्दुल खादर साहब एक सुसंस्कृत मनीश आशिल्लो, देखून ताणें तशें कांय न्हय केलां. तो शारांतलो एक 'केडी' (लूट मारपी), बीडी कामगार संघाचो सचीव आनी एक बरो फुटबॉल खेळपीय आशिल्लो. आटवें क्लास साकून धावें वर्ग मेरेन जमीला बीबी वांगडा एकच येत्तेंत शिकला आनी आठवें वर्ग साकूनूच जमीला बीबीचे मोगांत घुसपला म्हणूय अब्दुल खादर साहब सांगता. ही एक निपट फट म्हण जमीला बीबी सांगता.

कशेंय करून जमीला बीबी बी.ए. पास जाली. बापूले बीडी फाक्टरीं साकून दाम-दुडू जायशें काडून एक व्हड 'लेडी' (महिला) म्हण तशें आस्त बाळगून भोवंचो काळ. थळाचे तरणाटे सगट जमीला बीबीचेर मोगांत पडलेय आसात. जमीला बीबी पासून एक ओळीचीं पदां, व्हड प्रेम काव्यां तशें जायते तरांची कविता तरणाटे कवी रचतात. जमीला बीबीचे कळीजा मुखार, थळाचे फुडारी तरणाटे – तांचें एक सैन्यच एक व्हड 'क्यू' भाशेन राबलां. अब्दुल खादर साहब तांत एकांतय ना आशिल्लो. ताणे कविता रचपाक वा प्रेमपत्र बरोवपाक यत्न केलो ना. तें कांय म्हाका कळना म्हण अब्दुल खादर साहब सांगता. ताणे जमीला बीबी पासून एक 'प्रेमगीत' रचलां आसा म्हण जमीला बीबी सांगता.

ती निपट फट म्हण अब्दुल खादर साहब सांगता. ताणें केलें अशें: एक दीस जमीला बीबीक पायण-वाटेर अडखेळी घालन राबोवन ताणे विचारलें,

'तुजें नांव जमीला बीबी न्हय की?'

जमीला बीबीक हें आवडलें ना. जमीला बीबीक वळख नाशिल्ले कोणेय तरणाटे ते थळांत आसा की? तीणे केवल एक 'लेडी' सारके व्हड गंभीरतायेन विचारलें:

'व्हय, आसा, जाल्यार?'

अब्दुल खादर साहब हांसलो. भो एक सुंदर हांस. तें जमीला बीबीन देखलें आसा; पसंत पडताय. पूण तो देखावो! जमीला बीबीक राग हाडता तो देखावो. तें जमीला बीबीक रुच ना.

'कितें जाय?'

'विशेश कर्न कांय न्हय.' अब्दुल खादर साहबान म्हळें. 'जमीला बीबीचे बापाली फाक्टरी आसा मू. थांगा एकशें वीस बीडी करपी कामगार आसात. हांव तांचो सचीव आसां. नांव अब्दुल खादर.'

'भो बरें!' जमीला बीबीन म्हळें: 'शराचो क्रिमीदोर म्हणूय आयकलें आसा.'

'होय. बीडी कामगार हडताल करपाक विचार करतात. आमी तुमची फाक्टरी टाळेबंदी करयतले!'

जमीला बीबीन विचारलें: 'तें म्हाजे कडे सांगता कित्याक? बापाक वचून सांग!'

'जमीला बीबी कडे सांगचाक कारण आसा.'

'तें कितें?'

अब्दुल खादर साहबान म्हळें: 'हांव जमीला बीबीक चड मोग करतां!'

जमीला बीबीचे मनांक व्हड शीतळताय दिसली. तरीय एक लजावुंक जाय. जमीलाबीबी हांसली. भो हिणसांवचो हास.

'संतोश!' जमीला बीबीन म्हळें. 'आनी दुसरें कितें की गांवची खबर?'

ते सवालाक एक सामान्य 'क्यू'आंत रावचो तरणाटो जालो तरी तो निस्तेज जाता आशिल्लो! पूण अब्दुल खादर साहबान तें एक आव्हान सारकें मानून म्हळें:

'जमीला, तूवें म्हाका व्हरडीक केली ना जाल्यार?

आव्हान सारकेंच मानून जमीला बीबीन निमगलें:

'ना जाल्यार कितें करतलो?'

'हांव गळपांस घेवन मरतलों!' अशें कांय अब्दुल खादर साहबान सांगलेंना. ताणें म्हळें:

'जमीला, हांव तुजें हाड मार्न पिट्टो करतलों!'

जमीला बीबी चुप रावली.

अब्दुल खादर साहबान म्हळ्ळें:

'जमीला, म्हाजें जीवन तूवें निर्फळ कर न्हयें! हांव तुका दोळ्यां भर सारको मोग करतां. तुजे अंगाचे कपडांक प्रेम करतां. तुका हांव सकयल पाय साकून ऊंच मान मेरेन प्रेम करतां. तूवें चमकचे वाटेकय प्रेम करतां!'

कितें सांगप? जमीला बीबीक पसंत जालें. तरीय तें प्रगट करचें योग्य व्हय? जमीला बीबीन विचारलें: 'देख पडचे चलियांक सगट वाटेर आडावन राबोवन अशें प्रेम-भाशण करप आसा न्हय की?'

'ना! म्हजे जमीला, तुजे कडे न्हन्तना दुसरे खंयचाय चलये कडे हांव उलयलो ना लेगीत, चोयलोना लेगीत. उलोवंचीय ना. पळोवंचीय ना. तू म्हजे दोळ्यांतली दिश्टी आसा!'

तीणे गंभीरतायेन विचारलें: 'मागीर?'

ताणे म्हळें: 'तुका हांवंय म्हाका तूंवंय!'

'ओ – व्हड संतोस!' अशें सांगून जमीला बीबी गेली. अशें झूज आरंभलें. तोंडी लटाफट जाली. घरकार विरोधी. थळावी विरोधी. हडतालाचे गंदळ! अखेर... कसल्याक? जमीला बीबीक अब्दुल खादर साहबान व्हारडीक केली. तशें खोशयेन दीस काडचे वेळार येता रसपाळें केळें!

## दोन

समय बराबर पांच वरां.

पावसाळी. वोतय आसा, पावसूय आसा. आठोवन उगडास नाशिल्ले वेळार दोनीय आसतलें. लागी आशिल्ले न्हंयंत उदक तशें 'घुम'सी ऊंच येता. अशेंच तें पळोवंचाकय, न्हावंचाकय अब्दुल खादर साहब खमीस आंगार घालनाशिल्लें आंगूटीय* घेवन आंगणांत देंवलो. तेन्ना जमीला बीबीन ल्हवू कवडा लागी येवन उलो दिल्लो:

'मागीरी एय...!'

अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली: शर्ट घालन वच म्हण सांगपाक जावयेत! कारण, लग्न जाले उपरांत तीं दोगंय एकसान रावपाक आरंभले तुरंत उपरांत जमीला बीबीले नवे कांय अध्यादेश सादर केल्ले.

अब्दुल खादर साहब 'जन्टलमॅन' जावुंक जाय! बरे भाशेन न्हेसून पुसून जाय भायर वचुंक. चालचलणूकेंत गंभीरताय दाखोवुंक जाय. वाटेर पोरने हेंडपी दोस्तांकडे उलोवपाक नज. बीडी करपी, कवी, ओजे व्हांवपी, राजकारणी मनीश, मोटोर ड्रायवर, रिक्शा ड्रायवर – तांचे कोणाचेच कडे नातेन बराबरीचो वेव्हार करचाक पाडना. आनी घराचे कामाक एक नोकरीनीक नेमुंक जाय. अब्दुल खादर साहबान जेवण खाण शिजोवन तयार करपाक वचाक पाडना. एक बरे स्थितीर जीवन करपाक जाय! थोडे भितर म्हळ्यार तो एक बरो मनीश जावुंक जाय! सज्जन जावुंक जाय! खंयचीय बायल मनीश खंयंचाय दादलाकय लग्न करचो मुख्य उद्देश, ते दादल्याक बरो करपाक मू. दादल्याक सीधा वाटेन व्हरप, तागेले आत्मीक आनी भौतीक सगट विशयांतय हात घालन घुसपावप. हें सग एक बायलेलें कर्तव्य म्हण जमीला बीबी विस्वास दवरता. समस्त बायलोय विस्वास दवरतात. हे बरे बायल-दर्शनशास्त्रा पासून अब्दुल खादर साहबान कांय म्हळ्ळें ना. कितें म्हणचाक? लग्न जावन चड काळूय जालो ना मू? ताणे नवे वैभवान म्हळ्ळें:

'म्हजे जमीला हांव न्हावचाक वता न्हय? शर्ट आंगार घालन वचुंक जाय?'

'ओ!' जमीला बीबीन भारी दु:ख पावले भाशेन म्हळ्ळें: 'हांव सांगल्यार मानप ना मू!'

'जमीलान सांगले कांय पुणीय हांवें मानलें ना आसा?' अशें म्हणून भितर धावन येवन शर्ट आंगार घालन भायर देवलो. पूण शर्टाक बुतांव कांय ना आशिल्लो.

चोय दादल्याची बेजवाबदारी!

जमीला बीबीन तीन बुतावं हाळ्ळे आनी शर्टाक घालन दिल्ले.

अब्दुल खादर साहब चल्लो.

जमीला बीबीन दुसरीय उलो दिल्लो.

'मागीरी... एय!'

अब्दुल खादर साहब घूवन चोयलो. ताणे चिंतन केल्ली: या रब्बुल आलमीन! रांदपिणीले कामा पासून सी दिसता! कितें करप? रांदपिणी नाशिल्लें जीवन करपाक जायना की? आमचीं कार्यां आमीच करूंक जाय. एकली बी.ए. पास जाली म्हण कितें पसावत रांदणीर पेज करूं पाडना? बी.ए. न्हय, आनी एम.ए., पी.एच्.डी.कारीण जाल्यारीय पेज आनी रांदय करूंक जाय. कळना जाल्यार अब्दुल खादर साहब शिकयतलो. शिकोवंचाक लागला आसा. बिरियाणी सावन चाय मेरेन करूक ताका कळता.

'कितें जमीला?' अब्दुल खादर साहबान विचारलें. 'रांदपिणीलें प्रश्न की?'

'न्हय.' जमीला बीबीन मनस्ताप भोगचे भाशेन म्हळ्ळें. 'हांव बी.ए. पास जाल्यां रांदपीण जावपाक मू!'

'मोगाचे!' अब्दुल खादर साहबान म्हळ्ळें: 'म्हजे मोगाचीन रांदचीकूडांत भितर सरपाक नाका. सगट हांव दुरुस्त करीन. पुरो न्हय?'

'ओ... पुरो! दिसपट्टें म्हणता.'

'आज लेगीत म्हजी म्हाराणी रांदचीकूडांत भितर सर. फाय साकून तुजो हो दास...!'

'अशें कांय म्हण नाकात!'

'आतां कित्याक आपयला?' ताणें विचार केलो, केंस वळोवन चेऱ्यार पाउडर घालन वचाक जावयेत. पूण जमीला बीबीन भो लजेन, मनस्तापान आनी मोगान म्हळ्ळें: 'रसपाळें केळें!'

'कसलें रसपाळें?' बायलो दाखय-लिपय करना आशिल्लें कांय पुणीय सांगतलीं? ताणें विचारलें: 'कितें म्हणता तूं?'

'रसपाळें! दोन केळीं विकते घेवन हाडतले की?'

हावु! रसपाळें केळें न्हय? खावपाक वसवस आसा ना? हाडीन, हाडीन. न्हंयचे करावळेक दुकानांत आसा. आनी थंय ना जाल्यार तारी मचवार चडून पेलतड वचून दोन फरलांग चमकल्यार थंयचे एक लान बाजारां सांकून घेवयेत. ताणे म्हळ्ळें:

'एक घड रसपाळीं हाडीन.'

'दोन पुरो.' जमीला बीबीन म्हळ्ळें. 'देखले कडे सगट हेंडपाक पाडना! वेगीन हांगा येवुंक जाय. सांज जावूं मेरेन रावचाक नज. एकलीच बसचाक म्हाका भय दिसता. कांय विसरू नज, आयकलें?'

'ना मू!' अशें म्हणून तो चल्लो. बायलो म्हणतात आयकलें, खंयच हेंडपाक वचाक नज म्हण! अब्दुल खादर साहब हांसलो. तुरतुरीत ताका मोगाचो हाल जावपाक लागलो. जमीलाक पयले फावट जाय दिसलो एक विशय, दुसऱ्यो बायलो जाल्यार, या राब्बुल आलमीन, अब्दुल खादर साहबाचे मनांक दिसलें. कांय सगट हिकमतां मू त्यो घोवाकडे मागणी करतल्यो! भांगर, सिल्क, कांकण, मोहोर, डकोटा विमान – तें सगट सोड, हीं सगट म्हत्व नाशिल्लीं वस्तू आसात. ताणे चिंतन केलें. कांय जाणां आसात तीं घोवाकडे मागतात फकत मोल नाशिल्लीं पदार्थां. रानांत बीवन पडल्ले शिंविणीच्यो दोन मिशियो! त्यो हाडून दिल्यो नाशल्यार

* आंग पुसपाचें लुगट

मनस्ताप. 'ओ, जाल्यारय, हांव माजरा सारके शिंवाचे चेरेच्यो दोन मिशियो जाय म्हण सांगून... ओ हें सगट इतलेंच आसा' अशें म्हणून भों करून खणस काडून रडतलीं! घोव कितें करतलो? आनी वेगळे एक तराचो प्रकार आसा. तांकां जाय एवरेस्ट शिखराचेर साकून एक लान दोवा कुडको. ती घेवन हाडून दिल्ली नाशल्यार म्हणतलीं, दोळे भरन गागेवन: 'ओ, एक लान कुडको दोवा तकळो जाय म्हण सांगचाक घेवन हाडून दीनाशिल्लो दादलो न्हय... म्हजो जीव काडात!' घोव कितें करतलो? जमीला बीबीन हाडपाक सांगल्लें असलें कांय गिरगिरें आसा की? फकत दोनी दोन रसपाळीं केळीं! अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. न्हाण जावन, शर्टय घेवन, वचून एक घड रसपाळीं केळीं घेवुंक जाय. तो तशें न्हंयचे देगेर पावलो.

न्हंय एक मातीयेचे गुलाली रंगाची एक म्हासागर जाल्या. कसलो झोत! दोनीय तड उदकांत बावगून आशिल्ले रूख कांय दिश्टी पडना. कसले कसले वस्तू व्हळन वता! न्हंय सगल्या सगली भिरांकूळ जाल्या.

अब्दुल खादर साहब न्हंयंत देंवन न्हालो. म्हळ्यार एक बुडलो, तेंच. उदकाक दोवा कुडक्या पाशीय शेळवोत. तो नमांज म्हणपाक विसरलो. बेगीन तड आयलो. माथें पुसून तारी कडचे दुकानाक धावलो. थंय पावंचाक – कण्णन* केळें आसा, पाळयन्कोडन* आसा, पडट्टी* आसा, पूण रसपाळें ना! कितें करप? तो तारी-मचवार चडलो. मचवा चल्लें. न्हंयचे मदें पावंचाक गंभीर वारें सुटपाक लागलें. ताका लागून वातावरण काळोख जावूं लागलें. माचवा तांडेलान कशेंय करून पलतड पावयली. अब्दुल खादर साहब देवन धावलो. मदें हादीर पावंचाक पावसूय आरंभलो. तो धावन सांतां वचून एक दुकानांत चडून रावलो. गंभीर पावस! दुकानांत सगट दीवे जळ्ळे. पावस एक थांबचे खातीर तो रावलो. गंभीर वारेंय आसा. समय गेल्लो कळ्ळें ना. पोरणे उग्दे हेंडप्यां लागी बडायो मार्न तशें बसलो. मागीर पळोवंचाक वरां आठां लागी पावलीं. ताका उतळताप जालो. जमीला बीबी एकलीच बसून भियेतली. तो भायर देवलो. जायते दुकानांत सोदलें. पूण रसपाळें मात्र ना! कितें करचाक? व्हड निराश जालो. अखेर ताणे एक डजन सोन्नारींग घेतलीं. रसपाळ्या पाशीय बरें मू सोन्नारींग? मोलय चड आसा; विटामीनय चड आसा. तें सग एक कागदाचे पोटल्यांत काडून तो चमकलो. पावसूय बरो काळोखूय. खयींय उजवाड ना. रपसाळें आनी पावस दोनीय मेळन एक भयंगर गूडगजाल घडयतात न्हय? अब्दुल खादर साहब तारीघाटांत पावलो. कोणेय ना. ताणे काळोख चोवन पावसांतल्यान मचुवाकाराक उलो दिल्लो. एक धा-वीस फांतां 'पू...होय!' अशें व्होडान उलो दिल्लो. कोण आयकचाक? ताळो भेतलो न्हन्तना काय विशेश ना. कितेंय जावो, अशें मनांत लेखून ताणे पेवंपाक थारायलें. शर्ट आंगार साकून काडून आंगूट्यांत सोन्नारींगां बांदून माथ्यार दवरलें. तार्ची दोनीय तल्लवां खाडकीर बरे भाशेन बळान बांदलीं. शर्ट आनी मुण्ड+ सोन्नारींगां भायरच्यान माथ्याक बांदलें. ताणे चिंतन केली. ती आतां कितें करता आसतली? चोय जमीला, अब्दुल खादर साहबान चिंतन केल्ली. व्हारडीक केल्ली ना आशिल्ली जाल्यार खंयीय चडून पडयेत आशिल्लें न्हय? पळय, दादल्यालें स्वातंत्र्य वची वाट! या रब्बुल आलमीन धनियां, हांव न्हंयंत उडकी मारन पेवंपाक वतां! म्हाका तूवें राखुंक जाय! तशें चिंतून अब्दुल खादर साहबान उदेंत दिकाक न्हंयचे देगेवेयल्यान एक फरलांङ् चमकलो. न्हंय उदेंता साकून अस्तंता दिकार व्हळता. सारकें पेंवल्यार झोत म्हाका एक फरलाङा अदीक सकयल घेवन वचेत!

अब्दुल खादर साहब धाडशीन सकयल देवलो. तरी बुडून मेलो जाल्यार? पूण जमीला बीबी खातीर न्हय की? उदक कमर भर जालें. पाय जमना. तो पेवंपाक लागलो. माथे मात्र भायर दिश्टी पडता. ताणून पेंवून मुखार गेलो. काळोखांतले झोतांत मागलान खंयचे मुखार खंयचे? कांय कळना. अदमास कर्न वता. मदें न्हंयंत केन्ना गेलो आनी करावळीक केन्ना पांवतलो कांय कळना. हात पांय वांवटेवुंक लागले. अखेर, कित्याककी खंयकी ताचो हाथ लागलो. बळान झोत सकयल ओडून घेवन व्हरता! ताबो सोडलो ना. एक दोन घोट उदक पिल्लो. अब्दुल खादर साहबाक समझलें, ताबो मेळ्ळा एक वांशी (बांबू) हिडांत म्हण. जायते कांट्यांचे खांदयांचेय अडचनाची चिंता करनातल्लें तो तड चडलो. वसून कडकडलो. उगडास करन भयान थरथरलो. अशेंच बसल्यारी? रानांतल्यान आनी कांट्यांतल्यान अब्दुल खादर चल्लो. जल्म घेतल्ले भाशेन! मुण्ड आनी शर्ट दोनीय वगडायलीं. खाडार बांदलें देखून आंगूटी आनी सोन्नारींग वगडायलना. मोलान कवरे आशिल्लो खांदो मोडून दाण्डो कर्न अब्दुल खादर साहब चमकलो. केळींचें एक भाट! जगलावपांत ताणें प्रकृती पळयली. एक घरय, तेन्ना खबर समजलें. वचून पांवचे कडे साकून एक अर्द मील सकयल आयला!

तो घराचो आखाडो दांटवन हाका-ताका हात लावन माडाचो सांकव दांटवून मुखार चमकलो. तेन्ना एक सुणें भोंकलें! ताका लागून वेगळें एकय. तशें गावंचीं सर्वय सूणींय! सदाचार भाशेन जावयेत तीं भोंकतात. ताणे चिंतन केली, कितें करप? घोळिल्ली वाटो, सांकव आनी व्हड वाटो दांटवून अशें-तशें कशेंय कर्न घराक पावलो. हावू! थंय उजवाड आसा. मोगाची जमीला न्हिदलीना. अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. घोवाक प्रेम करची घरकान्न! जमीला, कवड उक्तें कर – अशें ताणे म्हळ्ळें ना. आंगूटी न्हेसून जावो म्हण चिंतन कर्न वारांदार सरलो. आनी जनेलांतल्यान भितर चोयलो. तो थंडी निमित्तीं कडकडतालो. तरीय अब्दुल खादर साहब आपाप हांसलो. एक सुन्दर दृश्य.

मेजार एक दीवो जळता. ताचे लागी दोन व्हड थाळी. त्यो दोनीय वेगळे वेगळे थाळीयानी धापल्यांत. लागीच चार पांच लान ताटलीयो. त्योवय धांपल्यांत. शीत आनी रावंदयो आसात तांत. घोवाची वाट पळोवन घरकान्नीय. हातांत एक भिरांकूळ पिसकाती! तीवय घेवन जमीला बीबी कदेलार बसून पुरो जावन मेजार माथें दवर्न न्हिंदल्या!

ताचे भायर वेगळेंय आसा: विशेशताय: मुखारलें कवड भितरचान खिळी घाल्या. पूण भायर साकून कोणेय चोर कवड धिंगळून खिळी फुटोवन भितर आयल्ले जाल्यार? देखून एक मेज ओडून घालन कवडा लागून दवरलां. मेजाक घटाय नुपुरो म्हण लेखून म्हळ्या गदी मेजार एक लान उशेंय! पुरो न्हय!

बायलांली बुद्द चोय, अशें चिंतन कर्न अब्दुल खादर साहब जमीला बीबीक उलो दीवन जागी करपाक वतां तेन्ना वेगळो एक समजून घेवपा सारको प्रसंग. रांदची कूडीचे कवडांतल्यान बरो उजवाड आंगणांत पडता! तें कितें? तो त्या वर्शीं गेलो. कसलें अजाप! ती उतळतापान रांदचीकूडीचे कवड बंद करचाक विसरली. लोकांतले सगट चोरांकय पुरसांय भाशेन स्वतंत्र रूपान चडून वचेत, अशें चिंतून अब्दुल खादर साहब भितर सरलो. आवाज करनाशिल्लें, भो ल्हवू, कवड बंद कर्न खिळी घाली. हातांतलो दण्डो रांदची कूडींत दवर्न ल्हवू न्हेसपाचे कूडांत गेलो. आंग जायतेकडे सिरल्लें आसा, रगतय व्हांवता. जमीला तुजे खातीर हांवें कितलें मात्र रगत व्हांवंयलां! ताणे तीणे चेऱ्यार घालचें परमळा पाउडर सर्वय आंगाक पुसलें. उपरांत न्हेसून-पुसून केस वळोवन दवरले. सोन्नारींगां न्हेसेणा कूडींतच दवरलीं. ते उतरांत जमीला बीबीक उलो दिवपाक वचाक नमाजाचो उगडास आयलो. सूर्यास्ताची आनी रातीची प्रार्थना केली ना. ती करया. तो

---

* हीं केरळचीं तरेतरेच्या नांवांचीं केळीं.

+ केरळांतलें दादल्यांनी न्हेसपाचें मोटवें लुगट.

रांदचीकूडांत वचून उदक घेवन तोण्ड धुल्लें आनी येवन नमाज म्हळें. जमीला बीबी खातीर; आपणलो जीव राखले खातीर, रब्बुल आलमीन यजमानाकडे मागणीय केली. ते उपरांत सोन्नारींगां दोन आयदनांत काडून मेजार दवर्न उलो दिलो:

'म्हाराणी!'

जमीला बीबी अकूळ पिकूळ जाली. भियेवन पिसकातीय घेवन दोळे विस्कळायले!

'हाका कातरनाका!' अब्दुल खादर साहबान म्हळें. 'चोर आनी कांय न्हय. हांगा राबला गरीब अबुद्दी अस्सल अब्दुल खादर आसा!'

'देखल्ले कडें सगटय भोंवन आयला न्हय?' अशें म्हणून कवडा लागी पळोवंचाक ती एक तटास जाली: 'भितर कशें आयले?'

अब्दुल साहबान म्हळ्ळें: 'हो दादलो येवंचे वेळार सर्व कवडंय आपाप उकतीं जातलीं; सर्वय हड्डींय आपाप...!'

'पिशेपणाचीं खबरां करनाकात. कशें भितर सरले?'

अब्दुल खादर साहबान म्हळ्ळें: 'रांदची कूडा हादीन!'

तीणे विचारलें: 'कांय दाण्डो घलन खिळी उक्तावन न्हय? कांय चोरानी तें पळयलें जाल्यार? आनी तेवय चडतले! आनी हे घरांत शांततायेन कशें रावतलीं?'

अब्दुल खादर साहबान म्हळ्ळें: 'ब्लडी फूल! कवड बंद केल्लें नाशिल्लें.'

जमीला बीबीन म्हळ्ळें: 'ओ... एक तरा संस्कृतायेन उलयात, कवड बंद केल्लें नाशिल्लें खंय!'

'या रब्बुल आलमीन!' अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली. बायलांनी केल्लेले चूक्यांक ताचान 'होय' म्हणवंचाक जायत की? ताणे विचारलें:

'तूवें नमाज म्हळ्ळें की?'

'नमाज म्हळ्ळें!' म्हण सांगून उठावंचाक तीणे सोन्नारींगां देखलीं. चेरो तांबसार जालो. राग आयलो. हाडून दवरलां! कोणेय खातलें की?

भो तिरस्कार भाशेन सोन्नारींगांक पळवन लासून गोबोर करचे रागान. तरीय कांय मत दिल्ले ना.

अब्दुल खादर साहबान म्हळ्ळें:

'रसपाळें केळें खंयीच ना.'

जमीला बीबीन कांय जाप दिली ना. कितें सांगचाक? हाडून दवरलां...!

हात धुवपाक तीणे उदक हाडून दवरलें. दोगंय हात धूवन जेवलीं.

'रांदय बरी जाल्या.' अब्दुल खादर साहबान म्हळ्ळें. खऱ्यानीच, रांदयो सग भो वायट आसात. मीट ना; थोगड्यांक तिकसाण चड. तरीय घरकान्नीक चूक सांगचे सारकें की?

तीणे एक बरें खबर सांगलें: 'हांव न्हिंदेवुंक वतां!'

ताणे म्हळ्ळें: 'सोन्नारींग खावन न्हिंदवूं, रसपाळें खंयीच ना. हांवें दोंगरा उदकांत पेंवन वचून हाडिल्लीं मू?'

तीणे म्हळ्ळें; 'तशें फट सांगचें नाकात. म्हाका सोन्नारींग पसंत ना. घेवन हाडपी खायात.'

ती नांक फुल्लावन नीट चमकून मांच्यार वचून पडली.

अब्दुल खादर साहबान सोन्नारींगाची साली काडली. बयो एक आयदनांत भरल्यो आनी उलो दिलो: 'जमीला...!'

'मान्य ना!'

'मान्य ना की?' अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली: व्हारडीक जाले रोखडच चेडुवाचे पोटाक एक धपको दींवका आशिल्लो!

'जमीला बेगीन हांगा उठून यो!'

'म्हाका न्हींद येता!'

'तें होय की!' ताणे उठून वचून भो थंडसाणेन म्हळ्ळें: 'जमीला, हांवें चड कश्ट सोसून हाडलीं हीं. चोय, हांव न्हंय पेंवून उदक पीवन मरण पावलो जाल्यार?'

जमीला बीबी हांतणार पडून तीणे चेरो उश्यार दामलो.

'जमीला!'

जमीलान चेरो चिके घुंवडायलो.

'हांवें म्हळ्ळेंलें रसपाळें!'

'गांवांत रसपाळें ना. फाय हांव खंयीय साकून केळी नेमे हाडीन.'

'ओ... तें सग घड जावन केळीं पिकतर खायन मू!'

'आसो, हीं सोन्नारींगां खा; हांत बरें विट्टामिन आसा.'

'म्हाका नाका!'

'तूं खावुंकच जाय!'

जमीला बीबी उठून बसली. व्हड अनादर दाखोवन निपट एक लेडी भाशेन विचारलें:

'खालें ना जाल्यार मार्न खावयतले की?'

'रायट!' अब्दुल खादर साहबान चिंतन केली: चांग एक युक्त! तो कांय उलयनाशिल्लें रांदप-घरांत गेलो आनी दाण्ड्यार साकून दोन लान कवरे मोडून काडून हाडले.

जमीला बीबीन दाण्डो देखलो. 'भा' भाशेन ती थंय बसली.

ताणे म्हळ्ळें: 'उठा!'

'मन ना!'

'मन ना की?' तो वचून पिसकात घेवन आयलो.

'बुस्क!' म्हणचे भाशेन जमीला बीबी बसली.

'यो'. ताणे आपयली. तीणे म्हळ्ळें: 'मन ना.'

'तें होय की?' ताणे जमीला बीबीचे जांगेर व्हुनहनी दोन पेट मारले. आनी पिसकात दाखयली.

'आनी लागीचें कातरप!'

ती बावडी भरल्लेले दोळ्यां सयत उठायली. ते दुकांचे थेंब... ते देखचाक... कितें सांगचाक! अब्दुल खादर साहबाचें हद्दें भेतलें. दादलो न्हय तो? बायल मनीशेचे दोळ्यांत दुकां देखल्यार व्हड कश्ट दिसचीना? तरीय चिके समयाक अब्दुल खादर साहबान आपणालें हद्दें एक पाशाणा उंडया भाशेन बदलायलें. आनी म्हळ्ळें:

'जमीला... दोळ्यांचीं दुकां कांय मोल नाशिल्लें वगडावनाका. जाय म्हण दिसता जाल्यार एक बुयांवांत भर्न दवर. हांव तांत मागीर न्हायन! आयकलें?'

जमीलाबीबीन गळीत आवाजान विचारलें:

'म्हाका जिवानशी मारपाक वतांत की?'

'होय!' ताणे म्हळ्ळें. 'तुका कातरून लान लान कुडके कर्न बिरियाणी तयार करपाक वतां!'

ताणे तिचे हाताक धर्न लागीचे कूडांत व्हेल्ली. आनी सोन्नरींगां मुखार रावयली.

'काडून खा!' अब्दुल खादर साहबान आज्ञा दिली.

जमीला बीबीन तें आयकलो दावो सरी केलो ना. तशें 'बुस्क' म्हणचे भाशेन रावली.

घोवान सांगल्यार मानची ना की? ताणे तिचे कुल्यार 'फटस्को' कर्न स पेट दिल्ले!

तीणे एक बोय काडून खाली.

'पुरो न्हय! आनींकय!' तो ल्हवू गरजलो. ताचे भायर पिसकातीय दाखयली: 'पळयली? सुस्तायतलों!'

तीणे बेगिबेगीन बयो काडून खाल्यो.

ताणें म्हळ्ळें: 'गुण्टी काडून उडोवन सन्त खाल्यार पुरो!'

तशें दुकांचे थेंबे घालन जमीला बीबी ल्हवू गुण्टी काडून उडोवन खावुंक

लागली.

अब्दुल खादर साहबान आतांच-आतां जाय आशिल्ले कामां पासून विचारलें: 'हांव तुचो कोण?'

तीणे म्हळ्ळें: 'कळना!'

'पिसकाती पळयली?... तुचो कोण हांव?'

'घोव.'

ताणे विचारलें: 'पिसकाती देखली... तूं आनी म्हाका सुधारूक प्रयत्न करतली व्हय? ना म्हण बेगीन सांग! पिसकाती देखली?'

'ना.'

ताणे विचारलें, 'तें तूं खाता कितें?'

'सोन्नारींगां.' ताणे तिचे कुल्यार आनी एक पेट मारलो. 'पिसकाती देखली? म्हण, खाता रसपाळें केळें!'

'रसपाळें केळें!'

'रान्दपीण जाय की? नाका म्हण सांग. पिसकाती पळयली?'

'नाका!'

'तूं लेडी व्हय? पिसकाती देखली?... तूं म्हजी पत्नी न्हय?'

'होय!'

मोटोर गाडी चलोवपी, रिक्शा गाडी चलोवपी, कवी, ओजें-व्हांवपी, राजकारणी मनीश, बीडी करपी – तांचे कडे सग बराबर वेव्हार करतली? पिसकाती पळयली?... वेव्हार करीन, वेव्हार करीन म्हण सांग!'

'वेव्हार करीन, करीन!'

'खाता कितें?'

'रसपाळें केळें!'

पिसकाती आनी बडी सकयल घालन 'म्हजे मोगाचे!' म्हण सांगून अब्दुल खादर साहबान जमीला बीबीक वेंगायली, उमो घेतलो. तिचे कुल्यार आनी जांगेर पेटांचीं चिन्नां! तांकां आपडचाक ताचें हद्दें भेतलें.

'म्हाजे मोगाचेक दुकलें की?' ताणे विचारलें.

तीणे उदासपणान म्हळ्ळें: 'ना!'

## तीन

अशें आसतनाय ताचें हद्दें भो दुकलें. दादलो न्हय?

तशें ती रात भोगली. फालें जालें. दीस वरसां भोगलीं. न्हयंत जायते फांतां हुंवार आयलो. जमीला बीबी णव फांतां बाळंत जाली. लोकांत कांय तराचे बदलाव आयले. सम्राज्यां नश्ट जालीं. मुकूटां, राजदंडां आनी शिंवासनां उबून गेलीं. नवे विचारांक मान्यताय मेळ्ळी. मानव समाज प्रगतीचे मार्गार मुखार गेलें. अब्दुल खादर साहब आनी जमीला बीबी – दोगांकय पिरायेन चड वर्सां जालीं. दांत सगटय गेले. दोगांय केस पिकून म्हातारीं जालीं. दोगांकय पोंग पडलें. मालम्हातारो आनी मालम्हातारी. पूतय धुवोय आनी तांकां चेरडूंवांय जालीं. तशें जीवन करतात जाल्यारीय पोरणे घडणूकांत कांय पूणीय उगडास करनाशिल्लें आसतलीं की! अब्दुल खादर साहब हांसून जमीला बीबीक विचारतलो: 'म्हाराणी, फूडे तूवे रसपाळें जाय म्हण सांगचाक, रार्तीत न्हय पेंवन हांवें हाडल्लें कितें?'

जमीला बीबी हांसून म्हणटली:

'रसपाळें केळें!'

तो विचारतलो: तें कशें आसलें?

ती म्हणतली: 'सोन्नारींगा भाशेन वाटकुळें!'

'हा... हा... हा' म्हण हांसून तो निमगतलो: 'हाडलेलें कितें?'

ती म्हणतली: 'रसपाळें केळें! रसपाळें केळें!'

* * *


## ब्र प्रकाशनाचीं फुडलीं पुस्तकां

**दुकुमेंत**
(कादंबरी)
**एस. डी. तेंडुलकार**

■

**चोंय**
(नाटकुलीं आनी टेलिप्ले)
**एस. डी. तेंडुलकार**

■

**शंकर परूळकाराच्यो कविता**
(काव्यझेलो)
**शंकर परूळकार**

■

**काशि म्हंटलोच**
(काशिचो चौथो काव्यझेलो)
**काशिनाथ शांबा लोलयेकार**



## जाग प्रकाशनाचें फुडलें पुस्तक

**आगळीं वेगळीं व्यक्तिंत्वां**
**रवीन्द्र केळेकार**

व्हड जावपाचो हावेस आशिल्ले
तरणे पिळगेक ओंपिल्लें आगळें वेगळें पुस्तक


- ☐ जाणां जावन घेवपा सारकें भल्लां भोंवतणच्या जिवितांत. तें जाणा जावन घेवपाची इत्सा आशिल्ले मात कोण दिश्टी पडनात.
- ☐ सूख तुजें दार खटखटायता. दार कित्याक धांपून घेतलां?
- ☐ तुज्यान जाता तें आयजूच करून उडय. मेळपाचें आसा तें फाल्यां मेळ्ळे बगर रावपाचें ना.
- ☐ पावल उखल. फकत तें मुखार पडटा काय ना तितलेंच पळे.
- ☐ दिसासपनां खरीं जातात. मात्सो धीर धरूक जाय.
- ☐ आड परिस्थिती मुखार मान बागोवं नाका.

# रायबारी

## सुमन्त केळेकार

ह्या शतमानाच्या पयल्या कांय दसकांत आमच्या गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठाराक एक आगळीच सया मारताली. तेन्नाची समाज घडण आयच्या समाजा लागीं तुळा केली जाल्यार, खुबूच वेगळी दिसताली. दर एका वाड्याचें खाशेलेपण रसरसून उठून दिसतालें; गांवाचें गांवपण नसानसांतल्यान फुटून व्हांवतालें. पूण काळ बदल्लो. एका सारको बदलत रावलो आनी समाजाचें तें रूप सुमारा भायर बदल्लें. वाड्यावयलो मनीस वाड्यारच परकी जावन वावरूं सवरूं लागलो आनी गांवांत रावनय गांवकार आसून नासून सारको जालो.

गोंयचे राजकी जिणेंत पालट जालो आनी ताचो परिणाम समाज जिणेचेर धांवत्या पावलांनी जायत गेलो. इतले गतीन की एका काळार गोंयचें नीज उकतावपी तीं सासणाचीं मूल्यां अचकीत मोड येवन झटक्यांत उडून जळामळा पांगचीं तशी-शी कितें आयज गोंयची आवतिकाय जाल्या म्हळ्यार जाता.

हें जें कितें घडलां वा घडत रावलां तें बऱ्याचें काय वायटाचें तें सांगूंक जावचें ना. काळ बदलता तशी परिस्थिती बदलता आनी परिस्थिती लागीं जुळोवन घेता आसतना मनीसय बदलता. हो सैमाचो नेम. एका काळार दर एका वाड्यार जावं वसतेर पावला कणकणी दिसतालें तें मनीसपण आतां दुर्मिळ जालां. ''दुसऱ्याचें म्हाका लागुनूच वचूंक ना'' हे गुर्मीत जण एकलो वावुरता.

आदल्या त्या काळार आयचे वरी समाजांत अश्यो कितल्योश्योच संस्था आसल्यो की तांचें म्हत्व आनी खाशेलेपण आयज सांगुनूय कळपाचें ना. खंयच्याय घराब्यांत कसलीय अडचण निर्माण जावं ती निस्तारपाक कोणूय ना कोण ''येतां आं हांव'' म्हणत देवदुता वरी मुखार उबो रावतालो. त्यो संस्था आयचे वरी धा जाणांच्यो नासल्यो. व्यक्तिच्या रुपान त्यो वावुरताल्यो.

कसलेंय कार्य वा कारण आसूं, अरिश्ट वा संकश्ट येवं, कोण ना कोण थंय धांवत येतालो आनी पडटा तें काम, शेजारधर्माक जागून मोन्यांनी करतालो.

कार्य म्हणटकच दोळ्यां सामकार सगळ्यांत पयलीं उबें रावता तें लग्नकार्य. दोन घराब्यांक रगताच्या पासांनी जोडपी खंयच्याय माणकुल्या समाजांतलें हें म्हान कार्य. ह्या घरगुती वेव्हारांत सबंद येता तो दोन घराब्यांचो. लग्न वा काजार जाता त्या दोगांचो संवसार बलायकेचो आनी सुखा समाधानाचो जावंचो अशें मनापासून चिंतून तें काम आंगार घेवन फळादीक करपाची जापसालदारकी कोणें तरी घेतिल्ली आसता. कर्त्या सवरत्या जोडकार न्हवऱ्याक ताच्या संवसारांत, घर चलोवपी एक रुपा-गुणान बऱ्यांतली बायल सोदून दिवपाचें काम 'रायबारी' न्हय जाल्यार दुसरो कोण करतलो?

रायबाऱ्याक जायत्या नांवांनी वळखतात. बारदेसांतलो 'रायबारी' साश्टी म्हालांत पावलो जाल्यार 'कारभारी' जाता. कांय कडेन ताका 'म्हाली' म्हणटात. प्रो. लुसिय रुड्रिक्स ताची वर्णना करतना सांगता: ''खंयच्याय गांवांत तूं वच, खंयच्याय वाड्यार वच, तुका तो मेळटलो आनी ताका तूं रोखडोच वळखतलो. जाणटोसो, सुमाराचो न्हेसलेलो, आंगलोटीन बरो, हांसत्या तोंडाचो, बारीक नदरेचो आनी गोड जिबेचो.'' ताच्या गुणांची तोखणाय करतना प्रोफसोरबाब म्हणटा, ''एक सोयरीक करूंक बारा जोतीं झरोवंक जाय. पूण रायबारी वाड्यार आसत जाल्यार कसलीच धास्ती ना. ताची जीब गोड. ताचे जिबेन जाता पय तें कोणाच्याच हातान जावचें ना; वायट म्हण तो कोणाचें उलयना.''

पयलिंच्या काळार चलयांक शाळांनी धाडून शिकोवपाची चालच नासली. मध्यम वर्गांतल्यो थोड्यो भोव शाळेंत वताल्यो त्यो मुळाव्यो चार यत्ता शिकपाक. तळागाळाच्या वर्गांतल्या चलयांक जाल्यार शाळेचें दर्शन घेवपाची लेगीत संद मेळनासली. ना म्हळ्यार, थोड्यो भोव शिकताल्यो त्यो गिरेस्त घराब्यांतल्यो. भाटकार, मोटे एंप्रेगाद, वेपारी बी लोकांच्यो धुवो. आनी तांचेंय शिकप जातालें तें त्यो वयार यो मेरेन. चलयांचें जल्मा-सार्थक आवय-बापायन करपाचें, तें एका बऱ्या घरांत तिचें लग्न करून दिवन. लग्न म्हळ्यार तें घरच्या जाणट्यांनी करून दिवपाचें; लग्न जावपी न्हवऱ्या-व्हंकलेच्या मत्ताक थंय कांयच वाल नासतालें. लग्न जावचे पयलीं एकामेकांक पळोवपाची लेगीत मेकळीक नासली. भटान लग्ना वेळार अंतरपाट कडेक काडपाचो आनी न्हवऱ्या-व्हंकलेन एकामेकांक दोळे भरून पळोवपाचें. लग्ना पयलीं दादल्यान बायलेक पळोवप म्हळ्यार तें तिच्या कुंवारपणाक मोलावपा सारकें जाता ह्या आशयाचें एक वाक्य प्रो. राणू नायक हांच्या 'रायबाऱ्याची व्हाड्डीक' ह्या खेळांत आसा. हांतलो जाणटेलो सांत पै म्हणटा: ''हाका म्हणटा सोयरीक! हें बाबा आतांचें नवें नवेंच, कोणें आयक नाशिल्लेंच! चल्याक विचारूंक जाय? अब्बा? चल्याक हातूंत कितें लागता बाबा? प्रसाद पाकळी घेवंक तो वतलो, काय वाजंत्री कलावंतां तो सांगतलो? आनीक चलेशे चलयांक पळौंक वतात खंय!! शी! शी! माणसुकीच उल्ली ना खरीच! चलयो म्हणचे **शेंशें** चेडवां व्हय रे? शी: दशा आसा कर्तुपांनी?'' (**रायबाऱ्याची व्हाड्डीक** १९३७: १५, वळ १५.) त्या काळाची ही गवाय म्हणूंक फाव. असल्या ह्या वातावरणांत कोणूय तरी सोयरिको जुळोवपी रायबारी आसले बगर त्या वेळचीं लग्नां सोपे तरेन जावंक पाव नासलीं.

फुडें तो काळ तसो उरलो ना. पुरत्यांत गोंयची मुक्तताय जाले उपरान्त गोंयांत समाजीक परिवर्तन नेटान जावंक लागलें. आयज मेरेन चलेच तितले शाळेक वताले; थंय तांचे वांगडा आतां चलयो वचूंक लागल्यो. मुळाव्या शाळांनी गर्दी जाली अशें म्हणटा थंय आसां, माध्यमीक शाळांनीय खेट जावंक लागली. चलयांचें शिक्षण गोंयांत इतल्या नेटान वाडूंक लागलें कीं शिक्षणाच्या मळार चलो चली हो वेगळेचार करपाची समाजाची, पुरत्यांत भुरग्यांच्या आवयबापायची वज इल्ली इल्ली करून उणी जायत गेली. चलयांनी शिक्षणांत केल्ले प्रगतीक लागून समाजजिणेच्या पुरातन तत्त्वांत सुमारा भायर बदल जालो. चली म्हळ्यार फकत लग्न करून दिवपाची एक व्यक्ती उरलिना. ती खूब शिकूंक लागली. खंयचे तरेचें शिक्षण तिणें घेवपाचें हाचेर निर्बंध उरलेनात. वेवसायीक शिक्षणांत, तंत्रीक शिक्षणाच्या मळार खंयूच ती फाटीं उरनासतना झपाझप पावलां मारीत आपणाली कर्तबगारी दाखयत फुडें फुडें वचत रावली.

आयज आमी समाजाचो एक नवो अवतार पळेत आसां. चडश्या घराब्यांक आतां रायबाऱ्याल्या रायबारपणाची गरज उरूंक ना. एका वेळार लग्न हो एकूच संस्कार चलयांच्या जिवितांत येतलो. आयच्यो चलयो चल्यां इतल्योच संस्कारांनी परिपूर्ण जाल्ल्यान लग्नाच्या संस्काराचें म्हत्व उणावत

चल्लां.

पयलीं व्हंकल घोवा-घरा येताली ती घरवडेखातीर, घरांतल्या सगळ्या मनशांखातीर ती वावुरताली. ती जाचेलागीं लग्न जाल्या ताची बायल आसली तरी घरची सून आसताली. कोणाची तरी भावज आसताली. कोणाची नणंद, हाची मामी जाल्यार ताची काकी, घर परिवाराची ती कोण ना कोण आसताली. सगळ्यांक सांबाळून घेवन घरांत सूख समाधान नंदचें ह्या कामांत तिचो हातभार तितलोच म्हत्वाचो आसतालो.

आयच्या नव्या युगांत व्हडलीं घरां उरचीं नात अशी परिस्थिती आसा. व्हडल्या घरां वांट्याचीं आतां ल्हान घरां सगळ्यांक आवडूंक लागल्यांत. हाका 'फ्लॅट संस्कृताय' म्हणूं येता. घराबोय आतां ल्हान आसचो हाचेर सगळ्यांची भिस्त आसा. ल्हान घराब्यांत खूबच थोडीं मनशां आनी तींय सामकीं लागशिल्लीं आसतात. असल्या ह्या घराब्यांतलीं घोव बायलां मोग करून एकठांय आयलीं जाल्यार तें सभावीक म्हणूंक फाव.

लग्नांतलो कारभारी म्हण आयज रायबाऱ्याक इल्लेंय म्हत्व उरूंक ना. कारभाऱ्यान करपाचीं पुराय कामां आतां 'कॉन्ट्रेक्टर' नांवाचो प्राणी करता. माटव जावं हॉल सजावटिच्या कामा पासून पानावळी वयलें जेवण जावं बुफे मेरेन, सगळे कॉन्ट्रेक्ट्स जातात. तशेंच वाजंत्री वा मुज्ग, फोग फोगेट्यो हांच्योय ऑर्डरी घेवपी बाजारांत जळामळा सांपडटात.

समाजांतल्या मध्यम आनी वयल्या मध्यम वर्गाच्या घराब्यां मदीं रायबारीपण करपी रायबाऱ्यांची आनीक एक जात हालिंसाराक घोळटिकेंत आशिल्ली दिसता. हें काम चड करून बायलमनशां करतात. तांकां 'सोशल वर्कर' जावं समाजसेविका ह्या नांवान वळखतात. ह्यो समाजसेविका परदेशांत, चड करून इंग्लंड-अमेरिका-कॅनडाक रावपी वा गोंयाभायर देशाच्यां दुसऱ्या वाठाराक बऱ्या हुद्द्यार आशिल्ल्या चल्या भुरग्याक हांगची एक शिकिल्ली सवरिल्ली बरी चली सोदून दिवपाचें काम करीत आसतात. फाविल्ल्या वेळांत तीं असलें हें समाजकार्य करतात. पूण तांच्या कार्याचो आंवाठ तितले पुरतोच म्हळ्यार सामको आंखूड आसता.

रायबाऱ्याचें तशें ना. वाड्या वयल्या जावं गांवच्या सगळ्या लोकांचो तो बरें-मागतो. ल्हानापासून व्हडांच्या घरांत ताच्यो खेटी आसतात.

गोंया भायर हेर राज्यांनी रायबारीपण करपी अश्यो खाशेल्यो संस्था आसात; थंयच्या दिसाळ्यांनी न्हवऱ्या-व्हंकलांच्यो जायराती उजवाडा येतात आनी त्यो वाचून गरजेवान तांचे गुजारतीन आपणालें मंगल करून घेतात. ती प्रथा अजून गोंयांत सुरू जावंक ना आनी बेगीन जावपाचीं चिन्नांय दिसनात.

रायबाऱ्याची गरज आयज पयलीं आशिल्ली तशी उरूंक ना. ना म्हणपाक धोंगां-पोंगां आशिल्ल्या न्हवऱ्या-व्हंकलांच्यो सोयरिको जुळोवपाचें कसब निजाच्या रायबाऱ्या बगर दुसऱ्याक कशें आसूं येता? देखून रायबारी आतां वाड्या वाड्यार दिसले नात तरी एकाद्रो खंय ना खंय, खांची-कोनशाक, गरजेवन्ताक पावपा खातीर, सोदल्यार मेळ्ळेबगर रावचोना, हेंय तितलेंच खरें.

[आकाशवाणी, पणजीच्या बरेपागान]


## जाग प्रकाशनाचें नवें पुस्तक

पानां : २६८ ✲ मोल : १५० रु.

**– 'जागा'च्या वांगड्यां खातीर पुस्तकाचेर २५ रुपया सूट**
**– पोस्टांतल्यान धाडचें पडल्यार पोस्टाचो खर्च आमचो**




शेतांत फकत बीं रोयलें म्हूण भागना. नडणीय काडूंक जाय. बिंयां वांगडा वाडटा ती नेरूय काडून उडोवंक जाय.

तश्यो, समाजा मुखार फकत बऱ्यो देखी आनी कार्यावळी दवरल्यो म्हूण भागना. देखीं कार्यावळीं वांगडा वाडटा ती विकृतायांची नेरूय हुमटावन काडपाचो वावर जावंक जाय. आमच्या देशांत नडणेचो हो वावर आमी केन्नाच सारको केलो ना. हाका लागून फाटल्या पांच हजार वर्सांत आमी आमचो एकूय राजकी, सामाजीक, आर्थीक, सांस्कृतीक प्रस्न सारको सोडोवंक पावूंक नात.

आमचें खंय चुकता? आमी खंय घाळ उरतात?

ह्या प्रस्नांची जाप सोदपाचो रवीन्द्रबाबांनी ह्या लळीत गंभीर बरपांतल्यान प्रामाणीक यत्न केला. खूब खोलायेंत घेवन वचपी एक पुस्तक हें.

# तीर-सुवादीक कॉलम

**दिलीप बोरकार**

दिशिल्लें सुटलों म्हूण एकदांचो.
संवसारांतल्या जंजाळांतल्यान न्हय
फाटलीं दोन वर्सां जागाक कॉलम बरयतां.
फाटल्या सहस्त्रकांत चोवीस म्हयन्यां आदीं सुरू केल्लो
ह्या हजारकाच्या आगस्टांत तो बंद जावपाचो आसलो.
खरें म्हळ्यार फाटल्या सहस्त्रकांतूच तो बंद जावपाचो.
एक कॉलम वर्सभर चलोवप हो (वावुरपी) संपादिकेचो नेम आसलो.
पूण पयलें वर्स भरतकूच संपादिकेक म्हजी आनी कोंकणी कार्यकर्त्यांची काकूट आयली.
कार्यकर्त्यांचें एकवेळ समजून घेवं येता.
बाबड्यांक तांचीं कर्तुपां इतिहासांत नोंद करपाचीं आसलीं.
खोंटलोभर कार्यकर्ते एका वर्सान कांय आवियार जावपाचे नासले.
पूण म्हजे सारक्याक आनीक एक वर्स संद दिवप म्हळ्यार अतीच!
पानवेलिच्या नांवान मसंगाक पडटा केन्नाय उदक अशें.
मेळ्ळ्या संद तर कांडुंया यथेच्छ म्हूण कांडीत रावलों.
त्या उँदय गुडेन 'तिरा तूं सणसणत राव' म्हणिल्लेंच न्हय म्हाका,
पोरा तूं फणफणत राव म्हणत हांवूय बरयत रावलों.
केन्ना दुसऱ्या वर्साचो जुलय सोंपलो तें म्हाका कळ्ळेंना.
खरें म्हळ्यार हांवें जुलयांतूच तीर भात्यांत घालूंक जाय आसलो.
कसो म्हूण कोण जाणां, म्हजो म्हयन्यांचो हिशेब चुकलो.
दोन वर्सां आगस्टांत पुराय जातात अशें धरून रावलों.
ह्या घुस्पागोंदळाक लागून परतून तीर भायर काडचो पडलो.
तो सणसणटलो काय सुवाद होगडावन बसतलो तें देवूच जाणां.
एक गजाल मात खरी, म्हाका हो कॉलम चालू दवरप आवडटा.
तो केन्नाच कोणें बंद करचो न्हय अशेंय म्हाका दिसता.
ताचें कारण तो वाचप्यांक खूब आवडटा असो म्हजो समज ना.
जागाक आनीक दुसरें कांयच मेळना अशेंय म्हाका दिसना.
खुबश्या कवी-कथाकारांक आपली निर्मणी दवरूंक घरांत सुवात ना.
छापतलो म्हळ्यार कोंकणींत मासिकांच नात म्हूण ते शीण काडटात.
जाग हें एकूच म्हयनाळें म्हूण सगळ्यांची भिस्त जागाचेर आसा.
हें मासिकांचें प्रकरणूच सामकें कुम्प्लीकाद.
थोड्या संपादप्यां कडेन जायराती चड जाल्ल्यान मॅटराक सुवात ना.
थोड्यां कडेन मॅटर आसा पूण जायराती नाशिल्ल्यान छापप जमना.
आपसूक तांचेर पानांची मर्यादा येवन पडटा.
म्हजे सारकेलो म्हयनाळें म्हयनाळें करीत दिवाळेकूच 'बिम्ब' काडटा
तेंय 'बुरशें' असो समज जाल्ल्यान कोण ताका साहित्य धाडिनात.
राजय पवार आनी प्रकाश पर्येंकार लेगीत.
कित्याक काय म्हळ्यार तें भुरग्यांच्या हातांत पडत म्हूण तांकां भंय दिसता.
'बिंबां'त छापून हाडचे परस तें तशेंच भुरग्यांक दिल्लें बरें खंय!
आसतात एक एकल्याचे स्वतंत्र विचार.
तांच्या विचारांक मान दिवन आमी संपादप्यांनी दीस सारूंक जाय.
ह्याच लोकांची भलायकी सांबाळूंक सुवादीक कॉलम चलूंक जाय.
आतां हेंच पळयात, भिकू बोमी नायक हो एका काळावेलो कवी.
खंयच्याय नेमाळ्यांत ताची कविता आसतालीच आसताली.
वा म्हणुंया, ताची कविता नासल्यार नेमाळेंच येना आशिल्लें.
देखून ताचें नांव ल्हान-व्हडांच्या तोंडार घोळटालें.
एक दीस एके चलयेन म्हाका नदर सकयल व्हरत विचारलें,
'तुमच्या बामणांगेर भिकू बिकू असलीं नांवां आसतात?'
म्हाकाय तें बामण समजल्लें देखून म्हाका सूऽऽ दिसलें.
अशा प्रसंगार त्या काळार एक रणनिती म्हाका खबर आसली.
खंयचेय चलयेन जर असली चवकशी केली जाल्यार शादूर जावपाचें.
जाची तें चवकशी करता ताची जाता तितली बदनामी करपाची.
तर सांगपाचें, तो कवी? शे! सामक्यो फूंच कविता करता.
ते परस आमच्या घाणेकाराच्यो कविता कास्ताद!
ह्या प्रसंगार खंयच्या कविची तुस्त करप तेंय कळूंक जाय.
सर्तींत ना अशा जाण्टेल्या कविंचींच नांवां घेवपाचीं.
आनी वांगडा आपूण कितलो उच्च साहित्यिक हाचीय सुलूस दिवपाची.
भिकूची चवकशी करपी ते चलयेक हांवें नदरेन सांसपिली.
म्हजे सारक्यांक सोडून हेरांची चवकशी करपी हें कोण मूर्ख?
'आसतात काय खबर ना. पूण आमच्यांत तीं नासतात आसूंक जाय.'
नरोऽ वा कुंजरोऽ वा करीत हांवें खांदार बामणाची शाल उडयली.
'तशें न्हय, नायक बामण आसतात. नाईक हे वेगळे न्हय?'
म्हाका त्या वेळार जातीशास्त्राचें आयचे वरी खोलायेन गिन्यान नाशिल्लें.
दत्ता नायक, भिकू नायक बी सगळेच नायक म्हाका एक आसले.
आतां हें भिकूचेर संशोधन कित्याक करतां हेंवूय हांव नकळो आशिल्लों.
कवी-लेखकांचेर संशोधन करूंक तेन्ना कॉलेजींत कोंकणी नाशिल्ली.
'ताचें कितें आसा, कोंकणींत 'ई' स्वराचो उच्चार 'य' असो जाता.'
हांवें म्हजें नादशास्त्राचें गिन्यान ताचेर मोखून मारलें.
हालींसराक भिडे वापरता तितलेंच त्या वेळार म्हजें तें मर्यादीत गिन्यान.
ताका तें सारकें कळचें म्हूण हांवें कांय देखीय दिल्यो.
आमी देसाई बरयतात पूण उलो मारतना देसाय म्हणटात.
तशेंच नाईक बरयतात आनी नायक म्हणटात.
म्हणटना 'य' उच्चार करप आनी बरयतना 'ई' कित्याक बरोवप?
हांवेंच उलट ताका असो घुस्पागोंदळाचो प्रस्न केलो.
(बाब रमेश वेळुस्काराचो त्या काळार म्हजेर प्रभाव नासतना लेगींत.)
'म्हणचे अशें तर! नांवावेल्यान जात कळूंक मार्ग ना तर!'
'ना. कोंकणींत निखालूस ना. गरजूच आसल्यार पालेकाराक मेळ.'
हांवें ताका मागनासतना सल्लो दिलो आनी तें गेलें.
ताचें उपरांत कितें जालें आनी भिकूचें कितें जालें तेंय खबर ना.
कित्याक, ते उपरांत भिकू बोमी नायक हाच्यो कविताच मेळनात.
दिसाळ्यांत मेळनात, म्हयनाळ्यांत मेळनात तें जालेंच, दिवाळी आंकांनीय मेळनात.
खूब वर्सांनी भिकूचें नांव नदरेक पडलें तें हालींच मराठी दिसाळ्यांत.
क्षत्रिय भंडारी समाजाची एक समिती जाहीर जाल्ली.
असल्या जातीय पत्रकांचेर हांव व्हडलोसो लक्ष दिना.
पूण हालींसराक दितां. कारण खुबशो जाती हालीं 'हेर मागासवर्गां'त वचूंक लागल्यात.
ताचे वेल्यान कोण कोण मागासवर्गीय तें कळटा.
(विष्णु वाघ मागासवर्गीय हाचेंय गिन्यान म्हाका तशेंच मेळ्ळां.)
पत्रकांत सगळ्यांचीं आडनांवां 'नाईक' आशिल्लीं. सोडून भिकूचें.
ताचेंच नांव फकत 'भिकू बोमी नायक' अशें छापिल्लें.
खुबशा साळोऱ्यांमदीं एक काटाकोय आसता तशें तें झळकतालें.
म्हळें हो अनादीकाळाचो 'नायक' आतांच 'नाईकां'त खंय फसलो?
कितलेंय जालें तरी भिकू कोंकणींतले मुस्तींतलो कार्यकर्तो.
जाती-धर्मा विरयत समाज घडोवंक फुडें सरिल्लो कोंकणी गडो.

तेन्नाच हांवें देवाकडेन मागलें, देवा 'जाग' म्हजो कॉलम बंद करिना ज़ाल्यार पुरो.
ह्या असल्याच उदाहरणांक आनी घडणुकांक लागून म्हाका कॉलम जाय.
खंय तरी बरोवन मनांतलो ओग काडूंक मेळटा.
पूण बरोवंक बसतकच कशेंच म्हणटा तें लक्ष लागना.
बरी साहित्य निर्मिती करतलो जाल्यार मनाक शांती जाय.
रवीन्द्रबाबाक ती लाभता कित्याक तो कोणाचें लावन घेना.
मुंबयकार आनंद वर्टींचेंय लावन घेना आनी प्रभाकर वैद्याचेंय लावन घेना.
म्हाका मात मेळटा ते गजालिचें विनाकारण टॅन्शन जाता.
ताचो मोठ्या प्रमाणांत परिणाम म्हज्या कॉलमाचेर पडटा.
बरोवंक जाय पडटा ती शांतताय भायरूय ना आनी घरांतूय.
भायली कटकट नाका म्हूण थोडे दीस हांव घरांतूच रावलों.
घरांत रावलों म्हूण हांव दीसभर बैठक मारून कितें बरयतलों?
तें बरोवंक हांव कादंबरीकार न्हय आनी श्रीराम कामतूय न्हय.
घराकडेन आसलों म्हणटकच वाचप-बरोवप सोडून दुसरो उद्देग ना.
नाय म्हळ्यार टीवी आसा आनी ताचेर कार्यक्रम आसतात.
ते सगळे हालीं देवांचे आनी रडारडिचे, खून-अपघातांचे आसतात.
केन्नाय बटन दाम, विष्णु नारद नातर खंयची तरी देवी,
बॉम्बस्फोट, रेल्वे अपघात, रक्तान भरिल्लीं मडीं वो रडपी बायल.
नाच जाल्यार अटल बिहारी वाजपेयी नातर राक्षस दिसतलेच.
म्हजे सारकेल्या आनंदयात्र्याक हें पळोवप रुचपाचें ना.
तें पळोवन विनोद करपूय म्हज्या सभावाक पटना.
देवांक पळोवन विनोद केलो जाल्यार हांव नास्तीक.
असुरांची फकाणां करीत जाल्यार हांव सुरांचो मनीस.
मड्यांक पळोवन हांसलों जाल्यार हांव पाकिस्तान धार्जिणो
देशद्रोही, तोयबा, हिबजुल, विरप्पन बी हांच्या पंगडाचो.
कौटुंबीक रडारड पळोवन तीरसुवादपणां केलीं जाल्यार म्हाका काळीज ना.
म्हाका टीवी पळोवंक एकांत मेळटा तो फक्त बुधवारा.
पुराय घरांत हांव एकलोच कोंकणी कार्यावळ पळयतां.
त्या कलाकारांची तोंडभर उप्पाट तोखणाय करतां.
बाकिचीं सगळीं त्या वेळार आपल्या दोळ्यांक रॅस्ट दितात.
तीं रॅस्ट घेवं. पूण निदान बुधवारची कार्यावळ तांणी पळोवंची.
अमिता सलत्री रुच्चीक कितें तरी करून दाखयता तें पळोवन तसलेंच कितें तरी म्हाका करून घालचें हो उद्देश.
कोण तें पळयना म्हूण एक दीस बायलेक मुद्दम पळय सांगलें.
तिणें घरच्यांक आफोवन हाडलीं आनी टीवी सामकार बसयलीं.
त्याच दिसा पाडपडिल्लें चिकनाचें कितें तरी रुच्चीक आसलें.
मनोहर सरदेसायान पयलींच मिटकी मारली आनी 'बरें जालां' म्हळें.
हातांतली वाट चाखी नासतना काडून कडेक दवरली.
मागीर परतून एकदां तें चिकन कशें करप तें दाखयलें.
तें तांबडें तांबडें जितें चिकन पळोवन सगळीं भितर पळ्ळीं.
आमच्या घरांत चिकन-मटन कोण खायनात.
हरवें मास लेगीत पळयल्यार सगळीं जेवण सोडून उठ्ठात.
बापूय तर टीवीचेर कोंबी दिसल्यार टीवीक हात लेगीत लायनाशिल्लो.
असलीं हीं मनशां अमिताचें रुच्चीक कितें पळयतलीं? कर्म!
हांवेंच बाबड्यान सदांच तें पळोवप आनी तोंडाक उदक हाडप.
अमिताची तोखणाय आमी कलाकार करिनात जाल्यार कोण करतले?
तें हे पिरायेर लेगीत फिल्म महोत्सवांत बॅस्ट कलाकार थारता.
कोणाच कडेन उतर घालिनासतना आनी फावोर नासतना.
तेच अपुरबायेन हांव हें रुच्चीक पळेतां.
एक दीस कळ्ळें रुच्चीकांत मुगां गांठी दाखोवपाचे आसात.
हांवें मुद्दम जबरदस्तीन सगळ्यांक टीवी मुखार बसयलीं.
बारकायेन पळयात आनी रांदून वाडात म्हूण सांगलें.
इतलोय अधिकार गाजयना जाल्यार घरांतलो दादलो कसलो!
मुगां गांठी दाखोवचे आदीं सोयरो दोतोर ज्यो डिसौजा दिसलो.
सगळ्यांच्या कपलार एकदम आंटयो चडल्यो.
तरीपूण पासियेंसान मुगां गांठिचें प्रात्यक्षीक पळयलें.
म्हाकाच बाजारांत धाडून बरे मूग हाडूंक लायले.
दुसऱ्या दिसा सकाळीं हुनहुनीत मुगां गांठी.
हांवें त्यो अमिताची तोखणाय करीत खाल्यो.
पूण हेरांनी खायना बराबर घरांत ओकाओक सुरू.
विषबाधा बी जाल्या आसत म्हूण हांव भियेलों.
धांवत वचून आमच्या दोतोर घार्सेक हाडलो.
ताणें तपासून सांगलें, मुगां गांठी खावन गांठ विटल्या तांची.
'अशें कशें जालें, म्हजी कित्याक विटलिना तर?' हांवें बायलेक विचारलें.
'तुका कितें जातलें? तूं सदांच युनिवर्सिटींत वता.'
'आतां विद्यापिठाचो आनी मुगांगांठिचो संबंध कितें?'
'आमची गांठ विटली ती डॉ. ज्यो डिसौजाक पळोवन.'
फट्ट करून तिणें म्हळें.
नाका जाल्लें म्हाका टॅन्शन. खंयच्यो मुगां गांठी अशें जालें.
तर हीं असलीं म्हाका पाड पडिल्लीं टॅन्शनां.
अशें आसतना कॉलम कितें कर्म बरयतलों?
तरी पूण फुडलो जुलय मेरेन बरोवंक जाय.
नशिबांतलें चुकना म्हणटात तेंच खरें!

* * *


# शेतकी संचालनालय

पणजी – गोंय



## काजू कलमाची राखण करात

**नवी लागवड करूंक सरकार आर्थीक मदत दिता.**

अदीक म्हायतीखातीर शेतकी खात्याच्या तालुका विभागाकडेन संपर्क साधात.

| | | | |
|---|---|---|---|
| तिसवाडी | २२८६१२९ | सांगें | ६०४२५३ |
| फोंडा | ३१२११९ | पेडणें | २९१२९१ |
| मडगांव | ७१५००५ | म्हापसा | २६२३६८ |
| काणकोण | ६४३०६६ | डिचोली | ३६२१२८ |
| केपें | ६६२११६ | सत्तरी | ३७४२४६ |

# चार कविता

**काशिनाथ शांबा लोलयेकार**

## तेहत्तीस कोटी

तेहत्तीस कोटी देवांचेर येता आकांत
गायक मारूंक व्हरताना

गायचे बांदलेले चारूय पांय
जमनीर पडोन मळब पळोवपी तिचे दोळे
वयर वचोन वेगान सकयल येवपी लखलखीत सुरो
धडावेगळी जाल्ली तकली

तेहत्तीस कोटी देवांच्या दोळ्यांतल्यान
तेहत्तीस कोटी दुकां
– जीं जावन आसात मनशाचीं क्षुद्र सुखां

गोपाळा,
नाका म्हाका
तुज्या गोरवांचें दूद
शेण
मांस

दावें काडून मुक्त कर तुज्या सगल्या गोरवांक.

## कविता

तूं येयना जेन्ना-जेन्ना
तेन्ना हांव धव्याफुल्ल कागदाक
रावतां पळयत

म्हज्या दोळ्याचें भिंग
जळयता कागद
म्हज्या मनांत

तूं येयना जेन्ना-जेन्ना
तेन्ना हांव पळयतां आकाश
आकाशांतलीं कुपां

कुपांक अर्थ उरना
तूं येयना जेन्ना-जेन्ना

तूं येयली की
येता म्हजी बायल
येता म्हजी प्रेयसी

तूं यो
म्हजे बायलेच्या प्रियकराच्या मनांत
– घोवाक चुकोवन.

## आकाश

तुज्या-म्हज्या माथ्यार
एक आकाश

आतां ना म्हणूं नाका
हय तें हयच
जाय तें जायच

हय. आकाश आसाच.
जाय. चंद्र जायच.
आतां ना म्हणूं नाका

ना म्हटलें की सगलें ना नपैच जाता
उरता फकत आकाश
अवकाश
पोकळी
तुजे म्हजे मदली

तुजे म्हजे मदलीं
नकेत्रां जायच
आतां ना म्हणूं नाका
तूं म्हाका जायच.

## चित्र

सगलें शांत-शांत
सगलें वग्गी-वग्गी
सगलें धवें-धवेंफुल्ल
धवेंफुल्ल रगत
गळटा
धव्याफुल्ल शिरांतल्यान
धवेंफुल्ल झाड
धवोफुल्ल काळोख
धवोफुल्ल सोंसो
तोच एक फकत
खरो कसो.

# तांचीं म्हाका याद येता

फेलीस्यु कार्दोज

इतिहासाचीं पानां

तो सैनीक गेल्यार ३-४ मिनटां बळांडल्यांत जायत. पूण म्हाका जायतो तेंप उलगलोसो दिसलें. वेळाची एक विपरीताय आसा : जेन्ना तूं उत्सुकतायेन कोणाची बाट पळेत रावता तेन्ना एक खीण एका तासा इतलो लांब जातासो दिसता; आनी तुका ताकेत आसता तेन्ना एक वर सामकें खिणयाळेंशें दिसूंक लागता!

पांच-एक मिनटांनी तो सैनीक डॉ. मार्तींसाचो संदेश घेवन आयलो. दोतोरान सांगललें: वायटकाराच्या पोटांतलें वीख भायर काडपाक ताका जायतें मिठा-उदक पियेवाक दिवचें, आज्यूद दिवचें आनी कॉरामिनाचें इंजेसांव मारचें. हांवें त्या सैनिका कडेन उपकार मागून ताकतीन इंफेरमेराक आपोवंक धाडलो आनी येतना कॉरामिनाचें एक इंजेसांव हाडूंक सांगलें. थोड्या वेळान इंफेरमेर (कंपौंडर) आयलो. ताचें नांव आंतोनियु पीरिश; गांवान कुसमणचो. आंगान मोटवो, वाटांगुळ्या तोंडाचो आनी खड्डो. सभावान 'मुडी'. एकेक दिसा बरो वागतालो, पूण केन्ना केन्नाय दुसऱ्याचेर किदावतालो. ते सांजे ताचो 'मूड' बरो आसलो आनी सुदैवान कॉमांदांत कॉश्त आफोंस त्या दिसा नासलो.

हांवें थोडकेंत कितें घडलें तें इंफेरमेराक सांगलें आनी वायटाकाराक इंजेसांव मारूंक विनंती केली. ताचें तोंड धांपूंक हांवें कागताक गुटलावन 'क्रूज आजूल' दुदाचे दोन दबे ताच्या हातांत दामले. कांतीक कॉरामिनाचें इंजेसांव मारून तो गेलो. उपरांत आमी ताका मिठा-उदक पिवयलें. तो थोड्या वेळान ओंकलो. मागीर आज्यूद दिलें. मदीं मदीं ताका वळ येवंक लागले. तिनसांज जाता म्हळ्यार तो मातसो निवळ्ळो, पूण सामको ज्यार जाल्लो. तापूय आयललो.

रातच्या आठांक सुमार सार्जेंत काबाक आनी दोन सैनिकांक घेवन बंदखणिचे दर एके खोलयेंत कैद्यांक मेजूंक येतालो. त्या वेळार प्रत्येक कैद्यान आपापले खाटी मुखार उबो रावंक जाय आसलें. दुयेंत जाल्यार मात खाटीर आड पडून रावंक मेळटालें. आमी ते राती कांतीक खाटीर न्हिदायलो आनी तकलेर थावन पांयां मेरेन पांगरून घालें. सार्जेंत मेजूंक आयलो. खाटीर न्हिदून आसा ताका कितें जालां काय म्हण ताणें म्हाका विचारलें. ताका जोर आयला म्हण हांवें सांगलें. हो सार्जेंत सभावान बरो आसलो. बारीक आनी मोटवो. ताका लांब दाट मिशयो आसल्यो देखून आमी ताका आमचे भितर 'ग्रुचो मॅक्स' नांव दवरललें. ह्या सार्जेंताक हिंदी भास शिकपाची उमेद आसली. आनी एक दिसा आपणाक नागरी लिपी शिकय म्हण ताणें म्हाका सांगललें. हांव व्हड खुशयेन ताका शिकोवंक राजी जाल्लों. पूण अकस्मात ताची बदली जाली.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कांती सिंतिदार आयलो. पूण बरोच अस्कत जाल्लो. दोन दिसांनी तो सुमाराचो जालो. पूण जेवणा-खाणाची ताका रूच नासली. तो एक-दोन उंडयो जेवतालो आनी जेवण सांडून न्हिदूंक वतालो.

सात-आठ दिसांनी कांतीची भलायकी सुदरली. एका दिसा हांवें ताका कुशीक आपोवन तशें कित्याक केलें काय म्हण विचारलें. तो मान बागोवन ओगो रावलो. ताणें म्हाका फटोवन मरचूद खालो तेन्ना ताची दशा कितें जाल्ली ती खबर हांवें ताका सांगली. ''तुवें स्वता तुका त्रासांत घालो आनी आमकांय त्रासांत घाले'' अशें हांवें ताका म्हळें तेन्ना तो सदगदीत जावन उलयलो : ''माफ करो भाई, गलती हो गयी...''

कांय दिसांनी कांती बरो जालो खरो पूण केन्ना केन्ना अचकीत ताच्या पोटांत दुखूंक लागतालें आनी तो घुंवळ येवन पडटालो.

जायत्या दिसांनी कॉमांदांतीन आमचे खोलयेंत येवज जाल्ले घडणुके विशीं म्हाका विचारलें. त्या अमरसिंगान ही खबर कॉमांदांतीक कळीत केली म्हण समजूंक म्हाका वेळ लागूंक ना. हांवें ते गोश्टिची कायलोळी केली आनी ताका घुसपायलो. त्या वेळार ताची मनस्थिती बरी आसली. ते गजालिचो आनीक कीस काडनासतना तो गेलो.

आतां खंय आसा काय हो कांती? तो निगूत बरो जाला काय? जायते पावटी ताची याद जावन मनांत हे प्रस्न उबे जातात.

उत्तर भारतांतले आनीक तेग जाण म्हजे बराबर आसले. राम शंकर श्रीवास्तव, इंदरचंद आगरवाल आनी बलबीर सिंग. राम शंकर कानपूरचो आनी इंदरचंद बिहारचो. तांणी दोगांयनी बार्देसच्या पीर्ण गांवांत सत्याग्रह केल्लो. राम शंकराक कैदी केल्लो तेन्ना ताची पिराय २४ वर्सां आसली आनी इंदरचंद १९ वर्सांचो आसलो. राम शंकर हिंदी, उर्दू आनी इंग्लीश भासो बरे तरेन उलयतालो आनी बरयतालो. उर्दू तो चड सोंपेपणी बरयतालो. हांव ताचेकडेन हिंदी शिकतालों. तो सभावान थंड आसलो आनी दुसऱ्या कडेन मर्यादीन उलोवपी. तो आपलो वेळ पुस्तकां वाचून आनी बरोवन सारतालो. ताणें कोणाकडेनच झगडें केललें हांवें पळेवंक ना. इंदरचंद आगरवाल हरशीं थंड. पूण ताचे शेंपडेर कोणेंय पांय दिल्यार तो ओगो रावपी न्हय – सामको उजो ओंकपी. बलबीर सिंग पिरायेन ल्हान आसलो – सुमार १८ वर्सांचो. सादो-भोळोसो आसलो. तो कोणाचेच मिजगतीक वचनासलो.

महाराष्ट्रांतले स्वातंत्र्य सैनीक मात सभावान आगळे वेगळे आसले. आग्वादाक म्हाका पयलीं मेळ्ळे ते शिवाजी सावंत आनी माधवराव चव्हाण. दोगूय थंड प्रकृतिचे.

शिवाजी सदां सकाळचो जायतो वेळ प्राणायाम, व्यायाम करतालो. ताका पोटभर उलोवंक जाय आसलें. सिगरेटीय खूब ओडपी. दुसरो कोणूय ओडटा जाल्यार शिवाजीक दम मारपाची रूच येताली आनी रोखडोच तो ताच लागीं सिगरेट मागूंक वतालो. तेन्ना जरी सिगरेटी सवाय आसल्यो पूण बंदखणींत आसलल्यांक त्यो मेळोवपाक मुसकील जातालें. चड जाण सिगारा धुमटेचो पुडो आनी मर्ताल (सिगाराचें कागद) हाडून सिगरेट करून ओडटाले. असले सिगरेटीक थोडे 'पापडी' म्हणटाले.

एका दिसा एक-दोग जाणांनी शिवाजीची गमत करूंक चिंतलें. एके मर्तालींत दोनूय तोंकांनी इल्ली इल्ली धुमटी घाली आनी मदें गिरसांगां-पिठो. ती मर्ताल कवळून सिगरेट केली. आंतोनियु वियेगाश सिगरेट ओडूंक लागलो तेन्ना सदां संवयेन शिवाजी सिगरेट मागूंक आयलो. वियेगासान ताका ती मिरसांगां-पिठ्याची सिगरेट दिली. शिवाजीन फस्का काडी मारून सिगरेट पेटयली. आमी थोडे फुडली मजा पळेवंक उत्सूक आसले. आमचे दोळे शिवाजीचेर थिरावलले. शिवाजीन दोन तीनदां दम मारलो. नाकांतल्यान धुंवर काडलो. आतां ताका खोंकलेर खोंकली येतली म्हण आमी रावताले. आमी ताकाच पळेताले तेन्ना आपले सिगरेटींत कसलो तरी घोटाळो केला म्हण ताका दुबाव मारलो. पूण तो कांयच जावंक नासलले परीं ओडीत रावलो. आमी आमचे भितर हांसो दामून धरतना तो 'कितें जालां, कितें जालां' काय म्हण थंडसाणीन विचारतालो. ती सिगरेट सोंपसर ताणें ओडली. आमकां अजाप! तो मातूय खोंकूंक ना. ताणें आपली खोंकली कशी दामून धरली? आमकां प्रस्न पडलो. सिगरेट धुंवरावन जातकच तो हांसत आपले खाटीर गेलो. आमी मात शेळेले! पूण त्या दिसाच्यान ताणें दुसऱ्याकडेन सिगरेट मागपाचें सोडून दिलें.

माधवराव गोड ताळ्यान गितां गायतालो. ताणें म्हाका दोन तीन मराठी गितां शिकयलीं.

[चलता]

# पश्चात पथिकाचे नदरेंतल्यान पांथस्थ

साहित्य नियाळ

**डॉ. किरण बुडकुले**

खरेपणान पळेल्यार **पांथस्थ** ह्या पुस्तका विशीं 'साहित्य नियाळ' ह्या सदरा खाला बरोवचें वो ना, होच एक मूक प्रस्न! एके वटेन **पांथस्थ** हें आत्मचरित्र, देखून तें एका साहित्यप्रकारांत मोडटा, आनी म्हूण 'साहित्य' ह्या माथाळ्या खाला ताका नियाळप समा थारता. पूण **पांथस्थ** म्हजेलेखीं फकत एक पुस्तक वा आत्मचरित्र न्हय...! गोंयच्या आर्विल्ल्या पूण तरीकूय अल्पज्ञात अशा इतिहासाक उत्सुक वर्तमाना वटयां फुटिल्ली **पांथस्थ** ही एक वाट... सरळ भासपी, मेजकींच वॉल्तां आशिल्ली, पूण सरभरस लोकांच्या पांयांपोंदची न्हय. एका वाटसरूनच मुजरत वाट वांकडी करून थारचें आनी पांयांपोंदच्यान गेल्ल्या दरेका पेण्याचो फाटलाव करचो, वांगडा चलिल्ल्या वा कुशीक सावन पासार जाल्ल्या वेगवेगळ्या व्यक्तिविशेषांचो आढावो घेवचो... अशें स्वरूप **पांथस्थाक** आयलां.



देखून खुद्द **पांथस्थांक** नियाळटना आपणाले अमृतजिणेचो आटीव आपरींस चालू पिळगे मुखार दवरपी पिके पिरायेचे परिपक्व संवदनशिलतायेचो आलेख म्हूण विचार करचोच पडटा. हांगा आत्मचरित्र म्हूण **पांथस्थ** वाचप्याक कितलेंशें ओडलायणें, विश्वासार्ह आनी प्रामाणिक दिसता हो मुद्दोय म्हत्वाचो थारता. ज्या वाचप्यांक रवीन्द्रबाबांले बरपावळिची वळख आसा तांकां वेगळें सांगचें पडना, पूण नव्या (आनी भावी) वाचप्यां खातीर ह्या पुस्तकाचें लालित्यान भरिल्लें स्वरूप, सुलभ भास आनी मेकळो सूर हांचो उल्लेख करूंक जाय. लेखकाची प्रतिभाच न्हय, तर तागेलो कल्पिता वटेनचो ओडो (जाका आत्मचरित्रांत उणो वाव मेळटा) 'फाटभूंय' ह्या पयल्याच प्रकरणांत मेळटा. केळेकार कुटुंबाचो इतिहास सामकारायतना लेखक भोव कुशळतायेन मौखिक इतिहास आनी आपणाली सैमिक कल्पनाशक्त हांचो मेळ घालता. खासा उल्लेखनीय पा.९.

निवेदनशैली हो आत्मचरित्राचोच न्हय तर खंयच्याय आत्मनिश्ठ निवेदनपर बरपाचो प्राण. ह्या चैतन्याचो संचार पयले वळी सावन **पांथस्थाच्या** सुरवेच्या भागांत सांपडटा. हाचें कारण म्हळ्यार अंधूक भूतकाळाचो एक अगम्य असो अंश बऱ्याच गोंयच्या कुटुंबांक बाटाबाटी काळार बादला. हो अंश तागेले वंशावळीन दायज कशें 'अस्पश्ट-पूण-थीक' अशा जुजबी तोंडी निवेदना वरवीं पिळगेन पिळगी बाळगिला. रवीन्द्रबाब ह्या अंधुक मौखिक म्हायतीक आपणाले निरीक्षण आनी कल्पनाशक्तीन वास्तवाचो आदार दितात. हो आदार कल्पकतायेंतल्यान आयिल्ल्यान ओडलायणो आनी यथार्थाचे फास्केर उबारिल्ल्यान विश्वसनीय थारता.

आत्मचरित्राचो एक विशेश गुण म्हळ्यार तातुंतल्यान चरित्रकाराचें व्यक्तिमत्व (personality) आनी ताचें व्यक्तित्वय (individuality) वाचप्याक भेट्टा. **पांथस्थ** हाका आडवाद ना. लेखकाची सादी जीण, उक्ती विचारसरणी आनी तागेले पूर्वग्रह तशेंच दुखऱ्यो पेशी वाचप्याक ज्युस्त होलमतात. कांय खेपो ह्यो दुखऱ्यो पेशी व्यक्तिगत अणभव वा तिडक-दुख्ख हांकां लागून न्हय तर अनुचित वागणूक वा घडणूक हांच्या परिणामाक लागून सामकारा वतात. तागेलो श्री अरविंदाश्रमांतलो अणभव (पा. ३६-४०) ह्याच सदरांत मोडटा. 'फुडाऱ्यां मजगतच्यो धोशी' ह्या प्रकरणांत रवीन्द्रबाबाचें व्यक्तित्व उठून दिसता. जें पळेलां, जें समजलां आनी जें पटलां तें भियेनासतना एक कर्तव्य म्हूण सांगप. हें प्रकरण खुबशें व्यक्तिनिश्ठ नदरेन बरयलां जावंयेत अशें दिसपीय वाचपी आसूंक शकतात. तातुंतले प्रसंग वेगळ्या दिश्टीकोणांतल्यानय मांडपाचे यत्न फुडाराक जायत (वा आदींय जाल्या आसत). पूण तरीकूय तांचें यथाशक्ती उक्तावण लेखकान प्रामाणिकपणान करूंक ना अशें मात कोणाच्यानच म्हणूंक जावचें ना.

ह्याच धांवार **पांथस्थाचो** विचार इतिहासाची पायण वा पांयवाट म्हूण करपाक वाचपी बाध्य जाता. आत्मचरित्राचेर हरशींय एक खेरीज जापसालकी आसताच – नीज युगाचो दुकुमेंत म्हूण फुडाराक तिगपाची! ते भायरय खासा **पांथस्थाचेर** मोठी बांधिलकी आपशींच येवन पडल्या. **पांथस्थ** सोम्या-गोम्याचें, बसतां-बोलतां विणिल्लें जिणेपत्र वा सपनेतना-झळपेतना एकठांय केल्ले 'उगडास' न्हय! **पांथस्थ** ही गोंयच्या एका युगंधराची, एका पुराय युगाची गवाय. म्हाका याद जाता ते प्रमाण, पांथस्थाची पयली – न निवळायिल्ली – ताज्जी आवृत्ती **गवाय: एका कल्पान्ताचो** ह्या माथाळ्यान उजवाडा आयिल्ली. ते स्वमान्य जापसालकेची सया **पांथस्थाचेर** पडपच न्हय तर कालानुरूप चडीत वायणा वरी वाडून पडप साहजीक. वाचप्याक तें अपेक्षित आसा.

हे अपेक्षेक **पांथस्थ** कितलेंशें पाळो दिता हें निश्चितपणान म्हजे सारक्या पश्चात-पथिकाच्यान सांगूं नजो. कारण म्हगेली 'त्या' युगाची जाणवीक मौखिक म्हायतिचेर आदारिल्ली आसा. पूण खुद्द **पांथस्थाची** पिळगी हें बेस बरी सांगत. तशेंच, फुडाराक ह्या बरपाक प्रतिसाद म्हूण जीं बरपां येतलीं वा हाचो आदार घेवन जें संकलन वा संशोधन जातलें तातूंत **पांथस्थाचो** कस लागतलो. तातुंतली इतिहासीक मोलाची म्हायती कितली मोलादीक हें काळाची साण थारायतली. पूण तरी लेगीत आज **पांथस्थ**

जसो दिसता तशें ताचेर भाश्य करप चूक ना. अशा नियाळांत तरी निखालूस ना. देखून ताची 'इतिहासिकता' पळोवंक जाय.

**पांथस्था**चो हेतू फकत 'इतिहास-कथन' हो ना, हें सुरवेक सावनच निवेदनाच्या सुरा वेल्यान आनी सुत्रा वेल्यानच स्पश्ट जाता. आत्मसंशोधन आनी युगचिकित्सा ह्या दोन उदात्त जोड-हेतुंनी हें पुस्तक जल्माक घालूनय, तातूंत विस्तृत आत्मचित्रण (आत्मतुस्त सोडूच) ना. तशेंच नेमक्या, नेटंक्या आनी कालबद्ध युगांका वरवीं युगाचें आलेखन करचेलो हावेसूय ना. लेखकाचो लक्षणीय गूण म्हळ्यार तो स्वताक 'पांथस्थ' म्हूण वाटेचोच एक वांटो मानता आनी म्हूण अडेची वस्तुनिश्ठताय वा तटस्थताय हाडचेलो आव हाडिना. व्हांवतेंतलोच एक जुंवो वा प्रवाह जाल्ल्यान लेखकाक सूत्रबद्ध आत्मकथा बरोवपांत स्वारस्य ना, वा ताका तें करप अप्रस्तुत दिसता (प्राक्कथन).

म्हूण **पांथस्थांत** इतिहासिकता येता ती माजराचे पावलटीन... अचळय! बऱ्याचशा उपरांतच्या पिळग्यांतल्या (म्हजे सारक्या) वाचप्यांक तातूंत विश्वासार्ह (आनी लेखकाच्या समकालिनां कडल्यान मेळून स्वीकृत जाल्ली) म्हायती मेळटा. देखीक, स. दयानंद बांदोडकार हांची परतंत्र गोंयांतलो सळसळट्या रगताचो तरणाटो म्हूण वळख मेळटा ती अशीच! आल्मैद कॉलेजिचो अंत्रुजेंतलें संस्कृती केंद्र म्हूण वा गोंयच्या निद्रिस्त अस्तित्वाच्या पुनरुज्जीवनाचो मळो म्हूण जो आलेख **पांथस्थ** अळंग मांडटा तोवूय पुरायेन स्वीकारार्ह. इतलेंच न्हय, तर, कडसरायिल्लो द्रश्टो र.धों. कर्वे हांचो मेजक्याच तरणाट्यां वेलो प्रभाव आनी एकंदर समाजांत तागेल्या **समाजस्वास्था**चें जावपी 'स्वागत' हेवूय **पांथस्थां**तले इतिहासिकतेचे वादातीत विशुद्ध नमुने. हें अशें स्पश्टपणान इतलेच खातीर म्हणूं येता कित्याक तर हेच तरेचे विचार वा मतां रवीन्द्रबाबांचे पिळगेंतल्या वा तांचे परस जाण्ट्या व्यक्तीं कडल्यान वेगळ्या संदर्भांत म्हजे पिळगे मेरेन पावल्यात. हातुंतले जायते आजय आमचे मर्दी आसात.

हे विश्वासार्हतेचेर पातयेवन **पांथस्थां**तली हेर सगली म्हायती आनी मतप्रणाली वाचप्यान स्विकारची पडटली. जोंवेर ती पुराव्या सयत न्हयकारपी बरप येना ते मेरेन **पांथस्थ** हो समकालीन समाजाचो इतिहासीक दस्तावेज थारतलो. ''हांतूंत सुटके-झुजाचो थोडोभोव इतिहास आयिल्लो आसलो तरूय हें पुस्तक सुटके-झुजाच्या इतिहासाचें न्हय. हातूंत सांगल्यात तांचे भायर दुसऱ्यो कितल्योश्यो घडणुको ह्याच काळांत घडल्यात.. ज्यो घडणुको वा जे मनीस नीट वा आड रितीन म्हाका आफडून गेल्यात तांच्योच खबरी सांगल्यात'' (प्राक्कथन) अशें खुद्द लेखकान म्हळां आसलें तरीकूय जितलें तथ्य **पांथस्थां**त आयलां तें कालातीत सत्य म्हूण नासलें तरी, एके ''बुद्धिनिश्ठ आनी प्रामाणीक व्यक्तीन आपले परीन मांडिल्लें समकालीन घडणुकांचें वास्तव मोस्त्र'' अशीच ह्या पुस्तकांतल्या मजकुराची दखल घेवची पडटली. असो बचावात्मक पवित्रो घेवचेलें कारण म्हळ्यार खुद्द लेखकान **पांथस्थ** ही आत्मकथा हें न्हयकारलां. ते ताका इतिहासूय म्हणनात. ते म्हणटात, ''आत्मकथेंत दाखय-लिपय करी नासतना जिवितांतल्यो कितल्योश्योच गजाली सांगच्यो आसतात. हांवें त्यो सांगूंक नात. सांगपा सारक्योय म्हाका त्यो दिसूंक नात.'' इतलें सांगून रवीन्द्रबाब थाम्नात. ते फुडें फोडणिशी करतात, ''...पांथस्थ सगळें सांगिना. वाटे वयल्यान वतना ताका जें दिश्टी पडटा तेंच आनी तितलेंच सांगता.'' (प्राक्कथन).

रवीन्द्रबाबान **पांथस्थ** हे उगडास अशें म्हळां. पूण म्हाका ते निखट्या उगडासां परस **जाणविकायेन केल्ली गतस्मृतिंची चिकित्सक उजळणी** अशें दिसता. कारण तातूंत चड भावनीक, व्यक्तिगत आनी स्वकेंद्रीत अशे उगडास नात. उगडासांचो चड फोक व्यक्तिगत आनी खाजगी क्रिया-प्रतिक्रियांचेर आसता. हांगा तशें व्यक्तिगत बरेंच आसा पूण तें खाजगी न्हय; भावनीक अस्तर लागिल्ले अणभवय आसात पूण ते लेखकाची खाजगी जीण उक्तावचे परस तागेल्या व्यक्तित्वाचें घडप, तागेल्या भावविश्वाची झलक दाखयतात. लेखक भावनाप्रधान न्हय वा तो भावविवश जायना हाची गवाय (पा. १०२-३) स. भाऊ काकोडकारां कडेन जाल्ल्या तागेल्या संभाषणांत मेळटा. त्या संभाषणा उपरांत लेखक आपणाली प्रतिक्रिया कितें जाली हें सांगप गरजेचें समजना. मात, स. डॉ. राम हेगडे वा अण्णा देशपांडे सारकेल्या 'म्हान' मनशांचीं 'ल्हान' मनोगतां पळोवन मात तांच्यांनी म्हळेबगर रावं नज, ''आमच्या फुडाऱ्यांचीं एकामेकां विशिंचीं हीं मत्तां पळोवन म्हजें मन खंतीन भरून आयलें.'' (पा.८७) ही खंत तरणाट्या रवीन्द्राली खाजगी खंत न्हय, ती तागेल्या समपिरायेच्या सांगात्यांच्या अपेक्षाभंगाची, वैफल्याची प्रातिनिधीक प्रतिक्रिया!

**पांथस्थां**तले 'उगडास' सांगतल्याच्या संस्कारांची फाटभूंय वाचप्यांक थोडीभोव कळची हाची जतनाय लेखकान घेतल्या. ताचे जिणेचेर अंत:र्बाह्य प्रभाव घालप्यां मर्दी खासा तांगेले वडील, 'बाबा' शिंवाचो वांटो उखलतात हें सहज होलमता. तशें पळेल्यार लेखकान 'बापायक' पांथस्थांत म्हालगडी सुवात दिल्ली ना; ती सुवात कळत-नकळत डॉ. राम मनोहर लोहिया आनी काकासायबांक मेळ्ळ्या. पूण फुडले संस्कार स्विकारपाची क्षमता रवीन्द्राच्या आयदनाक मातयेच्या वाणान आनी गुणान आयल्या हें जाणवता.

'गांधीहत्या' (पा. १४६-८) हो प्रसंग म्हाका **पांथस्थां**तलो अतिशय अकृत्रिम अणभव म्हूण याद उरतलो. लार्गी-लार्गी अर्द दसका उपरांतय त्या उगडासाचें मर्म वाचप्या मेरेन पावोवपांत लेखक यशस्वी थारला. तशें पळेल्यार **पांथस्थां**तलें बरेंच लिखाण वाचप्याक लेखकाच्या असंख्य उलोवपां-बरपांतल्यान कणाकणान मेळत गेलां. तरीकूय पूर्णकुंभाचें म्हत्व कणकण जोडून कुंभ घडूंक सोदतल्याच्या हाताक लागना. देखूनच **पांथस्थ** दर कोंकणी मनशान सर्वार्थान समजप गरजेचें थारता.

राजहंस प्रकाशनान उजवाडायिल्ल्या ह्या पुस्तकाचें स्वरूप वाचनियता आनी मोल वाचकाक आकर्शित करीसारकीं आसात. दीपक पेडणेकारांच्या पिशोलाच्या खेळान काळाचे व्हांवतेंत दृश्य-अदृश्याच्या हयन्हयशेपणांत शेणिल्लो रवीन्द्रबाब अचूक हेरला. स्वेच्छेची पट्टी बांदून मौनाचें कुड्डेपण पांगुरपी लेखकाची नदर वक्लाचे स्पश्टदर्शी फास्केंतल्यान आपले परीन काळाक भेदून यथार्थाक वेधूंक सोदता. हो वेध कितलो अचूक आसा हाचो अदमास वाचप्याक आपापले म्हायतिच्या आनी प्रामाणिकतेच्या आदावान घेवंक मेळटलो. पूण ते खातीर, वाचप्यानय 'दिवाभीता'चें सवंग सोडून नदरे वेली सोयिस्करपणाची पट्टी सोडची पडटली.

आज संवसारीक साहित्यांत native narratives (नीज निवेदनां) भोव उंचेली सुवात मेळोवंक लागल्यांत. गोंयच्या सुपुल्ल्या साहित्यविश्वांत कोंकणीन आनीक एका नीज निवेदनाची भर घाल्या. ही भर भविश्यांत सार्थक थारची हीच सदिच्छा. रवीन्द्रबाबान तीन-चार वर्सांचे हे 'भूत-भोंवडें'त आनिकूय मोलादीक भराव घालचो अशें वाचपी म्हणटलो. तथास्तु.

**पांथस्थ**
**रवीन्द्र केळेकार**
**राजहंस प्रकाशन, २०००**
**पानां: २०६**
**मोल: १५०/– रुपया**

# जाग

वर्स २६

आगस्ट ९९ — जुलै २०००

## साहित्य वळेरी

### ■ वैचारीक / ललीत निबंद

**नदर संपादप्याची**

आगस्ट — सोनिया गांधी; दिल्लींत कोणाचें राज्य चलता?; भारतांतल्या मुसलमानांचो फुडार; तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद – २

सप्टेंबर — देशभश्टे लोक तयार करपी कारखाने; निर्जीव अन्न; तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद – ३

ऑक्टोबर — अमेरिकेचें अर्थतंत्र कोंसळून पडपाचे वाटेर; जागरुकपण; तॉलस्तॉयचो प्रज्ञावाद – ४; सह-अस्तित्वाचें तत्त्व

डिसेंबर — एकविसाव्या शतमानांत पावल दवरतना; निर्फळ सेवाकार्यां; '...जेना मन ना डगे'; राजा राणयेच्या देशांत

जानेवारी — ते ना जावंक नात; खंय आशिल्ले आमी, खंय पावले; ताळ्यो पेटपी लोकांच्या देसांत

फेब्रुवारी — कुटुंब नियोजनाच्या प्रचारा फाटलें राजकर्ण; मनोहरराय

मार्च — दीर्घं पश्यत। मा ऱ्हस्वम्; सगळें तोडचें फोडचें शें दिसना?; संस्कारितेचीं सात पावलां; हजार जमाती वैभव आमचें

एप्रिल — फट दिसपा सारकें सत्य; भुरग्यांचो छळ; खबरी आमोरे वयल्यो–१

मे — भौराष्ट्रीय कंपन्यो कित्याक येतात?; कीजै प्रभु अपने बिरद की लाज; आचार्य कृपालानी; खबरी आमोरे वयल्यो – २

जून — पु.ल.; पयलीं पोलिसांक जाग्यार हाडूंक जाय; ट्युशनां; खबरी आमोरे वयल्यो – ३

जुलै — उमाशंकर जोशी; पयलीं सावन घाळ, सदांकाळ घाळ आमी; शी: माणसुकी उरूंक ना; अवनती कडेन व्हरपी एक व्यसन; खबरी आमोरे वयल्यो –४

### साहित्य नियाळ / समिक्षा

आगस्ट — *बारीक सारीक दुयेंसां* – डॉ. अनिल अग्रवाल.
अणकार – डॉ. भिकाजी घाणेकार
*तुमचें अन्न आनी तुमी* – डॉ. के.टी.अचय्या
अणकार: नारायण देसाय
नियाळ: मुकेश थळी

सप्टेंबर — *वेंचीक पुंडलीक* (संपा.) राजू नायक, भुषण भावे, ज्योती कुंकळकार
नियाळ: डॉ. सु.म. तडकोडकार

ऑक्टोबर — *आशाढांतलो एक दीस* – मोहन राकेश
अणकार: पांडुरंग भांगी
नियाळ: डॉ. किरण बुडकुले

डिसेंबर — *यमन* – माधव बोरकार
नियाळ: सुरेश आमोणकार

जानेवारी — *तनरजोती* – रमेश वेळुस्कार
नियाळ: डॉ. किरण बुडकुले

फेब्रुवारी — *पश्चिमी साहित्याकडेन इश्टागत* – डॉ. किरण बुडकुले
नियाळ: भालचंद्र गांवकार

मार्च — *काशिन म्हणपाचें सोडुंक ना* – काशिनाथ शांबा लोलयेकार
नियाळ: डॉ. किरण बुडकुले
कोंकणी अस्तुरी साहितियकांच्या साहित्यांतली अस्तुरी – प्रियदर्शिनी तडकोडकार

मे — *अभिजित* – वामन सरदेसाय
नियाळ: डॉ. चंद्रलेखा डिसौजा

जून — *सुर्यवंशी* – निलबा खांडेकार
नियाळ: प्रियदर्शिनी तडकोडकार

इंग्लीश भाशेंतले गोंयकार बरोवपी – डॉ. मनोहरराय सरदेसाय

जुलै — *ओथांबे* – रवीन्द्र केळेकार
नियाळ: बाळकृष्ण कानोळकार

### भासविज्ञान

[**भास आनी समाज** सदरांत, बरोवपी: माधवी सरदेसाय]

आगस्ट — उश्णीं उतरां

सप्टेंबर — अणकारी उश्णेपण

ऑक्टोबर — उश्णीं उतरां – आनीक कांय बारीकसाणी

डिसेंबर — सांस्कृतीक आंवाटा भायलो उश्णो वेव्हार

जानेवारी — डायग्लॉसिया – १

फेब्रुवारी — डायग्लॉसिया – २: शंबर वर्सां फाटल्या 'हिन्दू गोंयां'त

मार्च — डायग्लॉसिया – ३: भासां भासां मजगतीं वापराच्या मळांची वांटणी

एप्रिल — डायग्लॉसिया – ४: आमच्यो परंपरा आनी कोंकणीचो फुडार

मे — 'क्या बोलती तू?... आती क्या खंडाला?' – धारावींतली बाजारी हिन्दी

जून — 'पिज्जीन' आनी 'क्रियोल' भासो

जुलै — भास आनी समाज

### इतिहासाचीं पानां

**(कोंकणी वावुरप्यांचीं आत्मकथनां)**

आगस्ट — कोंकणीच्या दिश्टाव्यान म्हाका घडयला – नागेश करमली

सप्टेंबर — हांव कोंकणी कडेन कसो पावलों – फेलीस्यु कार्दोज

ऑक्टोबर, डिसेंबर — मडगांवच्या क्वार्तेलांत वणटीर हांवें भारताचो नकासो चितारलो – फेलीस्यु कार्दोज

जानेवारी — शणै गोंयबाबाचे बरपावळिचो प्रभाव – फेलीस्यु कार्दोज

फेब्रुवारी — बंदखणींत कोंकणी उतरांचो 'फायदो' – फेलीस्यु कार्दोज

मार्च — फा. कार्र्नो भारती कैद्यांची खबर घेतालो – फेलीस्यु कार्दोज

एप्रिल — भारती कैद्यांची सुटका – फेलीस्यु कार्दोज

जुलै — तांची म्हाका याद येता – फेलीस्यु कार्दोज

### हेर

सप्टेंबर — कारवारकारांली चवथ – संदेश बांदेकार

नव्हेंबर — दोन नेतृत्वां: एक संघटक, दुसरें विघटक – रवीन्द्र केळेकार
आनंदयात्री अण्णा – सुधा आमोणकार
सोबीत सुंदर वसुंधरा – अंदमान! – जयमाला दणायत
लोकगितां: मुळचीं मंत्रगितां – जयंती नायक
बेकारथवयी कोंकणी – अना म्हांबरो
हांव आनी म्हजी कोंकणी चळवळ – दिलीप बोरकार
३१ डिसेंबर १९९९ – पंढरीनाथ सुरसुरे
अणकार – मुकेश थळी

जानेवारी — दोंगराचो बाबा – प्रकाश पर्येकार

फेब्रुवारी — मोगरू – प्रकाश पर्येकार

जुलै — कोंकणी चळवळिची एकसश्टी – संदेश बांदेकार

आगस्ट, ऑक्टोबर, डिसेंबर-जुलै — तीर-रुवादीक कॉलम – दिलीप बोरकार

## कथा

| | |
|---|---|
| नव्हेंबर | अहिल्या – चंद्रकांत केणी |
| | केन्ना केन्ना भुरग्यांकडसून देख शिकची – दामोदर मावजो |
| | मीर्गवाल – महाबळेश्वर सैल |
| | बापूय, पूत आनी हांव – शीला कोळंबकार |
| | म्होंव आनी मूस – गजानन जोग |
| | वंशकोंब – देविदास कदम |
| | मोनेळ माया – प्रकाश पर्येकार |
| | ताचो नाथ – मंगला शिवदास |
| | हावरट – मिलिंद म्हामल |
| | मोर्नी दुकां – उदय गुडे |
| | भगवान – समीर झांटये |
| जानेवारी | हिरू – चंद्रकांत केणी |
| मार्च | ज्यानी – प्रकाश पर्येकार |
| एप्रिल | शेकडेकारनीचे पांडव – मिलिंद म्हामल |

## नाटकुर्ली

| | |
|---|---|
| नव्हेंबर | तलवार – एस्.डी. तेंडुलकार |
| एप्रिल | स्काय इज द लिमिट – निलबा खांडेकार |

## कविता

| | |
|---|---|
| आगस्ट | ऊठ तरणाट्या जागय रात; सुटकेचो दीस – रमेश घ. लाड |
| सप्टेंबर | पिके – काशिनाथ शांबा लोलयेंकार |
| ऑक्टोबर | गांधी म्हळ्यार – सखाराम गो.शे. बोरकार |
| | पर्थून येयात गांधीजी – राजय र. पवार |
| नव्हेंबर | बुचूल – शंकर रामाणी; फासिझम – नागेश करमली; तीन कविता (झुजां मळांचेर आमी; एक पूर्णविराम; शाळेचे प्रार्थनासभेंत) – रमेश भगवंत वेळुस्कार; तीर्थक्षेत्र वसुधैवकुटुंब – प्रकाश पाडगांवकार; घर: एक चिंतन – परेश नरेन्द्र कामत; कम्प्युटरा! एक उपकार कर – राजय रमेश पवार; सपन – सुनिता सुभाष शाह; घण – सुफला रुद्राजी गायतोंडे; तुमकां कितें जाय? – पी.जी. कामत; जनेल – नयना आडारकार; वाट – राजश्री म. सैल; गझल – पूर्णानंद च्यारी; मांडावळ – अमिता गावणेकार; अहल्या – पी. एन्. शिवानन्द शेणै; मोगाचो विलोदी रंग – मनोज नरेंद्र कामत; अंतर्नदर – भालचंद्र गांवकार; पावसा – शशिकांत पुनाजी; मुदसांव – आर्.रामनाथ; कोणें घडयलें – रोहिदास बाबुराव शिरोडकार; किण्ण दोळ्यांनी – सु.म. तडकोड; अग्निदिव्य – सुनील पालकार; जोगी – आनंद वर्टी |
| डिसेंबर | गांव – शंकर रामाणी; नखेत्रां – नयना आडारकार; चिरमुटलेले नदरेंत – भालचंद्र गांवकार; भावांनो भयण्यांनो – शरतचंद्र शेणै; भुरगेपण – परेश नरेन्द्र कामत; देवाकूड – आर्. रामनाथ; सुरींग – मनोज नरेन्द्र कामत; यादी – सखाराम गो.शे. बोरकार; पारजतां – नयना नाडकर्णी |
| जानेवारी | रीण – निलबा खांडेकार; नातीं – नयना आडारकार |
| फेब्रुवारी | पांच कविता – शंकर रामाणी; युगपरिवर्तनाचो यात्री – आर्. एस्. भास्कर; धग – परेश नरेन्द्र कामत; देव – अरूण साखरदांडे; हें घर कोणाचें – नूतन साखरदांडे |
| मार्च | माकडाचे दांत – अरूण साखरदांडे; सात रंगार्ची सपनां – परेश नरेन्द्र कामत; शेणिल्ले खीण – हर्षा शेटये; सोद! – सखाराम गो.शे. बोरकार; कुंकडाक मारप – एम्. जी. राजीव; मन – सुरेश गुंडू आमोणकार; शेळांव यादी – राजश्री म. सैल; दुवाळे – भालचंद्र गांवकार; तो आनी गांव – आर्. रामनाथ; पावस यादिचो, पावस वर्सावळिचो – नयना आडारकार |
| एप्रिल | इकरा कविता – परेश नरेन्द्र कामत |
| मे | कोण गेलो पयस – अरूण साखरदांडे; काशिक – सखाराम गो.शे. बोरकार; घराणें – आर्. रामनाथ; मोगाच्यो पाकळ्यो, मर्ण सुवाळो – मनोज नरेन्द्र कामत; कोण हांव – सुजला देव भावे; म्हजे धुवे – नयना आडारकर; सुकण्या पिला – आनंद वर्टी |
| जून | पावस-रास – सुजला देव; पावस – मनोज नरेन्द्र कामत; कविता पावसांतल्यो – सखाराम गो.शे. बोरकार; मन गेलां रानां वनां – अरूण साखरदांडे; झाड, धून – परेश नरेन्द्र कामत; फ्लॅट – नयना आडारकार; कोणाक जाय धुमको – नूतन साखरदांडे; काळजांतलो दंव – राजश्री म. सैल; म्हजी तुजी काणी – आर्. रामनाथ |
| जुलै | सुर्याचें जळप देखिलें – अरूण साखरदांडे; रेषन – पी.एन्. शिवानन्द शेणै; ते दंगलींत – प्रकाश पर्येकार; झूज – आर्. रामनाथ |
| | पावस – सखाराम गो.शे. बोरकार; तुजे खातीर – परेश नरेन्द्र कामत; मेरे वयलो आंबो – सु.म. तडकोड |

## अणकार

### निबंद

| | |
|---|---|
| नव्हेंबर | म्हजी व्यायामाची साधना<br>मूळ गुजराती: ज्योतीन्द्र दवे; अणकार: रवीन्द्र केळेकार |
| | हांव एक बुद्धिजिवी<br>मूळ हिन्दी: शरद जोशी; अणकार: प्रभाकर नाडकर्णी |

### कथा / दीर्घकथा

| | |
|---|---|
| आगस्ट-ऑक्टोबर | माजे आज्याक एक हती आशिल्ली<br>मूळ मलयाळम: वैकम मुहम्मद बशीर<br>अणकार: आर. के. राव |
| नव्हेंबर | शिमेरेशेची शीम<br>मूळ बंगाली: आशापुर्णा देवी<br>अणकार: माया खरंगटे |
| | गुन्यांव कोणाचो?<br>मूळ हिन्दी: रामदेवलाल श्रीवास्तव<br>अणकार: उदय देशप्रभू |
| फेब्रुवारी | दुयेंत<br>मूळ तमीळ: अळगिय सिंगर (चंद्रमौलि)<br>हिन्दी अणकार: डॉ. एच्. बालसुब्रह्मण्यम<br>कोंकणी अणकार: मुकेश थळी |
| मे | विश्वविख्यात नांक<br>मूळ मलयाळम: वैकम मुहम्मद बशीर<br>अणकार: आर्. के. राव |
| जून | डॉक कामगार<br>मूळ गुजराती: चंद्रकांत बक्षी<br>अणकार: माया खरंगटे |
| जुलै | फॉरेन बावली<br>मूळ हिन्दी: प्रमिला बहादुर<br>अणकार: उदय देशप्रभू |

### कविता

| | |
|---|---|
| डिसेंबर | नातालांची रात<br>मूळ मणिपुरी: मेमचोबी<br>अणकार: राजश्री म. सैल |
| मे | लापयांव<br>मूळ मराठी: मंगेश पाडगांवकार<br>अणकार: शंकर रामाणी |

*हे भायर, **पडसादांत** वाचप्यां कडल्यान आयिल्लीं वेंचीक पत्रां आनी आगस्ट ९९च्या आंकांत जाग वर्स २५ साहित्य वळेरी.*

REGD. No. GOA 130



*Independence Day Celebrations*

# *goa -Looking ahead with confidence and pride*



Chief Minister
**Shri Francisco Sardinha**

Emergence of new youthful Government, nine months ago, under the dynamic leadership of the Chief Minister Shri Francisco Sardinha and the vigorous measures, it has so far taken has revived the economy, made administration more responsive. Transparency and accountably are today no more only ideas on paper.

The new Government, with combination and understanding of those people who had genuine concern for the welfare of the State of Goa have to a large extent succeeded in creating a new confidence among the people and has brought the state out from the three years of messy politics and has put it on proper path of democracy. With its liberal outlook and accommodative sprit, no doubt the Goverment has made a deep impress even upon a common man in Goa.

**New concepts, and bright new vision of future is steadily dawning upon Goa.**

ISSUED BY
DEPARTMENT OF INFORMATION AND PUBLICITY, GOVERNMENT OF GOA.

